# गोंय-
# ५० वर्सां फाटलें

दुसरो वांटो

महाबळेश्वर सरदेसाय

सरस्वती-स्मृती प्रकाशन

डॉ. सौ. किरण अनंत बुडकुले यांका सप्रेम
पणजी, १७-२-९६

# गोंय–५० वर्सां फाटलें

## दुसरो वांटो

महाबळेश्वर सरदेसाय

सरस्वती स्मृती प्रकाशन

# मखलाशी

हें पुस्तक खरें म्हळयार चाळीस वर्सांपैलीं उजवाडा येंवक जाय आशिल्लें. आज तें नव्या पिळगेक कितलें रुचत म्हणपाचो दुबाव. म्हज्या पिळगेंतलो खबरेकार बरपी आज सोदल्यार मेळूंक कठीण. म्हजे वांगडचे म्हजे इश्ट कवी, काणयेकार, निबंध आनी नाटकां बरौपी णववें दसक लागचेपैलींच दोळे धापून मेकळे जाले! आडवादाक म्हणटा तसो हांव चुकून एकलो उरलां. आज साप थोडे दुसऱ्या पिळगेंतले बरपी बरैत आसात. आनी सद्या घोंसार आसात आनी तरेतरेच्या बरपाचो पावस घालतात ते नव्या तिसऱ्या पिळगेंतले तरणाटे. तांकां म्हज्यो काणयो, व्यक्तीचित्रां, खबरी वाचपाची इत्सा जायत आनी चुकून ते वाचूंक तयार जाले जाल्यार ते नाक खरवटावन हांसत आनी त्रिटत म्हणपाचो भंय

मनात आयलें, पुस्तक छापच्यापैली म्हज्या बळखीचे खुसखुशीत आनी चुरचुरीत बरप करपी एक दोन बरप्यांक म्हजें बरप वाचूंक सांगून तांचें मत जाणा जावन घेवचें. तांचो तेंको मेळ्ळो जाल्यार तें छापचें. तांच्या लेखी अभिप्रायाचो पालव मेळ्ळयार त्या आधारार आनी धीरार तें उजवाडा हाडचें

विनोदी बरपी भौ लक्ष्मीनारायण पारज आनी भौरंगी बरपी ॲ. उदय भेंब्रे हाणी म्हजें बरप वाचपाची तकालस घेतली. हांव तांचो भौ उपकारी ताणी जें बरौन दिलें तें ह्या पुस्तकाच्या दोनय वांटच्यांत दिलां.

पुस्तकाचें नांव वाचून कोणाक आडखळ्ळचावरी जावं येता. पुस्तकांत आसा तें फाटल्या गोयाचें म्हळयार तेन्नाच्या गोयकारांचें चित्रण. पन्नास वर्सांपैलीं गोयकारांची जी तरा, नुरा आनी परंपरा आशिल्ली ती आज उरूंक ना. आज गोंय आनी गोंयकार पुराय बदल्ल्यात. बदलत आसात.

१-१-१९९६ महाबळेश्वर सरदेसाय

# चंद्रावळ

'प्रस्तावना !' हो शब्द म्हाका मातसो जड लागत
घडये हाकाच लागून जायत, म्हाका खंयच्याय पुस्तका
प्रस्तावना वाचप सामकेंच जिवार येता. आतां म्हाकाच प्रस्ताव
बरवपाचो योग आयला !

प्रो. महाबळेश्वर सरदेसाय हाणी आपल्या हातबरपा
पटी म्हजेकडेन दिली आनी ती वाचून हांवे ताचेर प्रस्ताव
बरवची अशी इच्छा उक्तायली.

'हातबरप !' वाचप म्हळयार म्हाका सामकें केगदीं
घुस्पल्ले भशेन जाता. मागीर ते कोणाचेय आसूं. म्हजे लेगी
हातबरप वाचपाक म्हजे कपलाक मिरीं पट्टा !

प्रो. सरदेसायबाब आपले पिरायेची एक्याण्णोय वस
हुपून ब्याण्णोय वर्साकडेन पावल्यात. तांतली पाऊणशी वर्सांत
ताणी आरती परतीं 'बरोप आनि शिकौप' हेच वेवसाय करपां
घाल्यांत ! ताणी आजपर्यंत फकत हे दोनच व्यवसाय केल्यात
ह्या दोन व्यवसायांत मोठे मोठे खांपे बुदवंताकडेन तांचो संपक
आयला.

गोयचे म्हालगडे शणै गोंयबाब, प्रो. रामचंद्र शंकर नायक
(प्रो. राणू नायक) हांचेबराबर ते वावरल्यात. भौ. हेगडे देसायाचे
'भारत' म्हळयार त्या वेळावेलो गोंयातलो 'केसरी' ! त्य
भारत सातोळचांत तांकां हेगडे देसायानी मुद्दाम आफोवन व्हेलों
श्री. दत्ता पै हांचेबरोबर 'हिंदू' त, मागीर भौ. मिनेज ब्रागांजांचो
प्रकाश (पोर्तुगीज); डिचोले 'गोमंत' अशा कालिकानी
ताणी संपादना केल्यांत.

आचार्य अत्रे ! हो मनीस म्हळयार महाराष्ट्रांत जावन गेल्ले एक ‘ वादळ ! ’ नाटककार, नट, पत्रकार, साहित्यिक, सिनेमानिर्माती अशा विगड विगड मळार ताणी कर्तुपाचे दोंगर उबे केल्यांत. त्या आचार्य अत्रेबरोबर प्रो. देसायबाबानी संपादनाचे काम केलां. मागीर धनुर्धारी, लोकसत्ता, रविवार, उ एराल्द आनि अशा खूब्र कालिकांनी ते वावुरल्यात. तांकां कोंकणी, मराठी, गुजराती, इंग्लीश, पोर्तुगेज, फ्रेंच अशा भाशांचें गिन्यान आसा.

पोर्तुगीज प्रायमरी शिक्षकाची पदवी घेवन प्रो देसायबाब शिकवपाखातीर गोंयात पणजे, मडगांव, कुकळी, केपें, काणकोण, कदळे अशा जाग्यानी वावुरल्यात.

अशा मनशाच्या पेनातल्यान जे झिरपतलें तें समद्र मंथनांतल्यान झिरपल्ल्या ताकदीचे आसतलें. हे हांवें वळखलें म्हजे नशिबान तांचें हातबरपय सुरती रुपयांसारखें फळफळीत देखून हांवें तांचे पुस्तक उमेदीन वाचलें.

गेल्या चाळीस पन्नास वर्सांपयलींच्या गोयांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांतली वसणूक जाणी भोगल्या नियाळल्या तांकां हें पुस्तक वाचतकच आपल्यालें भुरगेपण आपल्याक परते मेळळें अशें दिसूं येता.

‘ कळंतराचें भात ’ वसूल करपाक वेंकटूबाब गोंयदागेर वता–

गोंयदा ! ए गोंयदा ! ! गोंयद आसारे घरांत ?

‘जेयतां धनयानूं’ ‘ययात’! –मागीर गोंयद भाटकाराक मांदरी घालपाची बायलेक कुरु करता–गोंयदाली बायल सोप्यार मांदरी पातळायता.

रोखडेंच आंवन काष्टेक हात पुशीत गोंयद भायर येता.

केळी शनवत.ची विडी करून व्यंकटूबाबा सामकार धरत
गोंयदाली बायल रात्रीतली उज्या कोलती भाटकाराक विड
पेटवपाक हाडून दिता.

" आरे ' गोंयदा ! भाताचें कितें ? भात मळून घर
हाडल्यार कितले दीस जाले ? अजूनय तुवे कळंतराचें भात पावत
केलें ना मू ! " अशें म्हणून विडयेचे झुरके घेत वेंकटूबाब गोंयदाव
सडसडायता !

तांच्या जायत्या कथानी मनशाच्या विकृतीचें दर्शन घट्टा
चंद्रूमास्तर, फिशाल फिडलीस्त गोवींद शेट, धाकू-अशा कथांतल्यान
तांच्याच शब्दानी सांगपाचे जाल्यार " मनशाच्या सभावाइतले
अजापाचें दुसरें कितेंच ना ! "

आता विमानां, मोटारी खूब वाडल्या ताचे बराबर भिरांकूळ
अपघातय वाडल्यात. पूण पन्नास वर्सापयली बैलांच्या गाडयाक
कशेंच आपट नासताना मडगवा भिरांकूळ अपघात जावपाचो
कित्याक जाणा? तर गाडयेकारान बैलांक उदक पाजलेंना ! तांका
तान लागिल्ली, ते तळें पळौन धांवत सुटले. गाडयेंतल्या पॅसेंजरांनी
आकांतान किळांच मारली. वेळ आईल्लो. पूण काळ पावलो नासलो
देखून लोक वांचले ' हो प्रसंग वाचतना ' अजाप, हांसप आनी
भंय ' एकमेकांत घुस्पता आनि कायलोळी जाता !

तांच्या दुसऱ्या एका कथेंत येसवंत चड जोडपाच्या आशेन
मिनाखणीर कामाक वता. मागीर ताका आनि ताचे बायलेक
गुणवंत्याक ' नाका सायबा सस्टी घोव ' अशें जाता ! अशे
प्रसंगांत जितेंपण दिसता.

' आवयचो मोग ! ' हो सगळे जगाक पिशें लावपी विशय-
सगळे भासांनी ह्या मोगाक उबारून धरला आनि पयल्या नंबरार

बसयला. आवयच्या मोगाचेर कविता ना अशी भास आसत अशें म्हाका दिसना. पूण प्रो. देसायबाबांची 'आवयचो मोग' हो एके वेगळचा आयटावेलो. कथा. बांगडे उजरात्रन तांची 'हुगी' करतात. ती आंवड-तिखट बरी लागता. म्हाका करपाक कळना. खावपाक कळटा. प्रो. देसायबाबाली ही कथा बांगडचा हुगये भशेन लागली !

गोयची ग्रांवगिरी जीण दाखवप ही तांगेली फिशालकाय. तशेंच एका कथेत ताणी मुंबयची जीण त्याच फिशालकायेन मांडल्या. मुंबयच्या लोकलीनी जाता ती खेंटाखेंट, मागीर पाकीट मारप घडप. तातूंतले पैशे, रेल्वेपास बी सगळें वचप, तिकीट मास्तरान धरप, ब्रम्ह दाखवप हे प्रसंग जिते उबे केल्यात.

गांधी सिनेमा काडचे खातीर त्या निर्मात्याक त्गा काळाची जीण कशी आसली हे कळपाक गांधीचो संदर्भ नासली पुस्तकां लेगीत वाचची पडलीं.

अशाच एकाद्या गोंयच्या म्हालगडचाक सिनेमा, नाटक बी बरवपाचे आसत तर त्या काळाची जीण उतरावपाक हें पुस्तक खुबच गरजेचे थारतलें !

निमणें प्रो. देसायबाबांच्या उतरानी सांगप म्हळचार, नमना पयलीं चंद्रावळ कित्याक ? प्रस्तावनेचे चिवींग गम पुरो जालें ! आतां नमन !!

**लक्ष्मीनारायण पारज**

# कथा, व्यक्तिचित्रां आनी खबरी

तुमी वाचूंक दिल्लें हातबरप वाचून काडलें. तांतली भा
गोड आनी चालंत अशी लागली. जीं आज वापरांतल्यान गेल्यां
अशी खूबशीं उतरांय तांतूंन वाचूंक मेळ्ळीं.

हातबरपांतल्यो कथा वाचतना काळाचे नदरेन चार–पां
दसकां फाटल्यान गेल्याची जाणविकाय जाणवता. त्या काळांत
विशय आनी लोकजीण हांचेंय थोडें दर्शन घडटा.

आयज कथेची व्याख्या खूब सदळ वा व्यापक जाल्या. त
पूण, ह्या हातबरपांत आसात त्यो सगल्योच कथा अशें मानूं
म्हजें मन तयार जायना. कांय व्यक्तिचित्रणां दिसतात तर कां
फकत खबरी कशो दिसतात. देखीक;

‘ जिणेचें सार्थक ’ हे कथेंत ‘ कथा ’ आसा अशें दिसना.

‘ जलमप्रतिष्ठा ’ हे कथेक व्यक्तिचित्रणाचो अदीक वास येता
तीच गजाल ‘ प्राक्तन ’ हे कथेची आनी ‘ फिशाल फिडलिस्ता ’ची

‘ कळंतराचे भात, ’ ‘ चंद्रू मास्तर ’ असल्या कथांनी सुर्वे
परिणाम खूब बरो सादला, पूण कथेंत उत्तम बीज आसलें तर
तांचे शेवट मात्शे दुबळे जाल्यात.

हातबरप पुरायेन वाचतकूच म्हाका अशें दिसलें. कथ
म्हणपासारक्यो (आयचे तंत्र नदरे मुखार दवरून) थोड्यो आसा
आनी चडशो ‘ खबरी ’ आसात. ‘ खबरी ’ आसात म्हूण त्य
वायट अशें न्हंय, ‘ खबरी ’ य साहित्याचो एक खाशेलो प्रका
जावं येता.

ह्या सगल्या बरपांत सभावचित्रण मात बरें सादलां. ‘ कथें
तली वा ‘ खबरी ’ तली मुखेल व्यक्ति नदरेमुखार उबी रावत
आनी तिचो सभाव पट्टा.

**उदय भेंब्रे**

# वरमाय !

वासू नायक आनी येसवंत पै येवन बलकांवार बसले. वळखदेख नाशिल्ले दोन मनीस गोविंद शणैची वासपूस करीत आयिल्ले पळौन मादूक अजाप जालें. ताका ते वाटेरच मेळ्ळे आनी ताणें तांकां हाडून बलकांवार बसैले. भायर दोन तांबडे तोपयेकार मनीस येवन बशिल्ले पळौन वसंत्यान आज्याक येवन सांगलें,

‘ आज्या, भायर पळे आयल्यात ते. तांबडी तोपी आसा तांच्या माथ्याक. नवेच कोण तरी दिसतात. ’

गोविंद शणै उठलो, आंगार कुतांव चडैलो आनी भायर आयलो. तांच्या शेजरा बसून ताणें येसवंत पैक हांस हांसत येवकार दिवन म्हळें,

‘ कितें ? आज खंय तुमी ? बरे आसात मू ? आनी हे कोण ? हांव वळखलों ना हांकां ! ’

येसवंत पैन तोपी काडून सकला दवरली आनी लेंसान तकलेचो घाम पुशीत म्हळें,

‘ तुमकांच मेळूंक आयिल्ले. हे बिठ्ठोणचे वासू नायक. हांचें नांव आयकलां जातलें तुमी. ’

‘ हां. हां. ते पणजे पासार सणगां मांड आसा ते मू ? आयकलां हांवें हांचें नांव. कितें ? बरे आसात मू ?’

‘ आसां देवादयेन. तुमगेलीं भुरगींबाळां बरीं आसात मू ?’

ह्या दिसांत वचत थंय थंडीबारखुणी फाल्त ना. पुण तशें म्हणपासारकें कांय ना. आसात सगलीं बरीं, येया. भितर बसूं या.’

अशें म्हणून गोविंद शणै देंवलो आनी ताणें तांकां सालांत हाडून बसैले. वासू नायकान नदर भोंवडावन बारीकसाणीन पळेलें.

कुळ सामकेंच काय खंवस आसचें ना, असो ताणें थंयचो आसपाव पळोन तर्क केलो.

तांकां बसौन गोविंद शणै भितर आयलो आनी ताणें बाय च्याक दवरूंक सांगलें. सकाळीं फुडेंच दोन परकी मनीस आयल ते सोयरिकेक आयल्यात जावंक जाय, असो तिणें अदमास के तिणें बेगीं बेगीं नातीक कुरू केली आनी ल्हवूच सांगलें,

' वसंत्या, संजगिऱ्यागेर वच आनी हो जांभभर साखर माग म्हणून घेवन यो बेगीं. आनी मागीर तशेंच धाकल्यागेर वच अ पावशेर दूद हाड. चल. धांव मारून यो. '

वसंतें थोडचा वेळान पर्थून आयलें. ताच्या हातांत जांभ रित पळोन आज्जेन ताका विचारलें,

' कितें गो, गेलें ना ? '

' तांगेर साखर हाडील्ली सोंपली खंय. शिपीभर लेगीत खंय उरूंक. ' वसंत्यान सांगलें.

' हांव जाणाच आशिल्लें. वेळार कसलेंय काम मनाजोग जायत जाल्यार आनीक कितें जाय आशिल्लें ! आयकलां, मात भितर येयात. कूसभर लेगीत साखर ना घरांत. वसंत्याक पसऱ्य धाडून कार्तभर तरी साखर मेळटा जाल्यार पळेयात. ना जाल्य गोंडाचो सांजो करून दिवंचो पडटलो ! ' अहिल्याबायन घोवा कुरू करून आफीन ल्हवूच सांगलें.

ताणें वसंत्याकडेन तीन आणे काडून दिले आनी ताका पसऱ्या धाडलें. पुण ते धांवतच परत येवन सांगूंक लागलें,

' साखर देड रुपयान रात खंय. दोन ओंसां दिव काय म्हणू विचारलां गुण्यान. '

गोविंद शणैन फडफडत आनी गुण्याक गाळी घालीत आनीक तीन आणे काडून दिले. वसंतें मागीलदारयां पसऱ्यार गेलें.

आवाशिवा करून च्याचो आक्त जालो. तोंड पुसून जातकच येसवंत पैन प्रस्ताव मांडलो.

'तुमकां मेळून तुमगेल्या चल्याचें नक्षत्र मागूंक म्हणून आयिल्ले आमी.' गुडगुडी ह्यातांत घेत आनी नळी तोंडाकडेन व्हरत येसवंत पैन हळूच म्हळें.

'आगा सभाग्या, पुण चल्याक अजून वर्सां गा खंय जाल्यांत ! ह्यालींच तशो ताका पांचस सोयरिको आयल्यो. पुण तागेली कुर्साची एजाम जाल्याबगर ताका संसारांत घुस्पावंचो न्हय म्हणपाचें थारायलां हांवें. आतां अठरा वीस वर्साचेर गा न्हवऱ्यांचीं लग्नां खंयचीं ! होंकलांचींच लग्नां ह्यालींचाराक पंदरा सोळाचेर जायनात !'

'तुमी म्हणटात तें लटीक न्हय, गोविंद बाब. पुण आमगेल्या वासू नायकालीं ही अर्थ अपुर्बायेची एकली एकसुरी चली. तिका सतरावें वर्स लागलां निकतेंच. नायकाली आनी तागेल्या घरकान्नीली इत्सा तिका आनिक वाडौंचेली ना. बरोसो जागो पळौन तिका अंदूंच उजौंची म्हणपाचें ताणीं येवजिलां. तुमगेली नामना जाणा आशिल्ल्यान हांव ताका मुजरत घेवन आयलां. तुमी ताका पदरांत घेशात जाल्यार चलयेच्या जलमाचें सार्थक जालें अशें मानून तो तुमचे उपकार जलमभर विसरचो ना ! तुमच्या कुळाक फावसारकी चली म्हणपाचें उतर हांव दितां तुमकां. तुमी चलयेक तोखेल्याबगर रावंचेनात. गुणेस्त गा चली ! शिकल्याय बरी आनी सूयसूत, रांदपशिदप, चारय तरा कळतात चलयेक. तुमी येवन पळेयात आनी खात्री करात.'

' आता कितें सांगतलों तुमकां ? म्हज्यान तुमकां आतांच न्हय कांयच सांगूं नज. तुमकां कळैतां हांव सवकासायेन. अंदूं त कुर्साची सातव्या वर्साची एजाम जावंचेली आसा. ती जात मागीर मार्गशिरांत पळौया. तुमकां राग येतलो. पुण तुम पळेयात. तशें लग्न केलें म्हणून शिकपाक हळद लावपी न्हय चलो म्हगेलो ! तुमी ताचे विशींची खबरमात घेतल्याच आसत लिसेवाचो रैतोर लेगीत ताची तुस्त करता. तो फुडेंय शिकत म्हणटा. पुण कूर्स सोंपलो म्हणटकच एक वात्र जालो. खरें मू ह म्हणटां तें ?' गोविंद शणैन गुडगुडेंतले इंगळे जनेलांतल्यान उ आनी फू करून बेल्यांतलो धुंबर भायर काडून जातकच कुशीक दवरली.

' तुमी म्हणटात त्या भशेन करपाक आमचें कांयच आडमे ना. तुमी मनार घेतले बगर रावंचेनात म्हणपाचें हांवें ता पैलींच सांगून दवरलां. तुमी नक्षत्र दियात. चलयेचे हें घेया प्रसाद पाकळी घेवया आनी सगली थारावणी करून दवरूंय मागीर लग्न तुमकां जाय तेन्ना करचें. कशें म्हणटा वासदाद ?'

' हय. म्हजेंय तेंच म्हणणें. चलयेकाराचे घुस्मटमार तुमकां का सांगूंक नाकात !' वासू नायकान काकुळटेचें तोंड करीत म्हळें.

गोविंद शणैन हां हूं काय केलेंना. तो तजविजेंत पडिल्ल पळौन येसवंत पैन म्हळें,

' तुमी आतांच आमकां जाप दिवंक जाय असो आमचो आग्र ना. आमी पर्थून केन्ना येवंचें म्हणपाचें तुमी सांगात. त्याप्रमा येतांव आमी. खबर बऱ्याभल्याची. ती अशी ताकतिकेन जावंच म्हळ्यार तें एका भशेन कठीणच. जावं. तुमकां विरूस करू

आमकां कितें मेळौंचेलें आसा ! तुमच्या उतराभायर नात आमी. म्हणटकच केन्ना येवंचें आमी ?'

' वचूं दी हे दोन म्हैने. तितले म्हणसर ताची एजामय जातली. तुमकां दिवपाक आज म्हजेकडेन चल्याचें नक्षत्रय ना. कृष्णभटान करून दितां म्हळां. तें मेळसर कांय दीस वतले. बाकी नक्षत्र म्हणटात तें ओगी रीतरवीस म्हणून पळौंचेलें गा. म्हगेलो सगळो भावार्थ प्रसादाचेर. तो निर्भय दावी स्थानक जालो म्हणटकच मागीर म्हजें कांयच म्हणणें ना. पुण ह्यो फुडल्यो गजाली. त्यो पैलींच उलौन कितें करचेलें आसा ?'

' तशें जाल्यार तशें. तुमची खोस ती आमची खोस. येतांव तर आमी. दया आसूं दी तुमची. तुमच्या भरवंशार रावतांव. लागत्या आब्रिलाक मेळटां तुमकां. जाता मू ?' अशें म्हणून दोगय उठले आनी तोपयो माथ्यार दवरून भायर सरले.

घोव केदोवेळ भितर पावच ना म्हणून आहिल्याबायक किवांटे येताले. ' कितें हांचें आग्वाद साग्वाद सोंपच ना मूं ! कसल्यो मडसरेच्यो गजाली चलल्यात ! हांकां पैली बडबडूंक जाय चड ! भरभरत बसल्यात आसतले !' तिणें बेजारून तिडकीन म्हळें आनी फणी घेवन नातीचे केंस वळेत बसली.

तितले म्हणसर गोविंद शणै ताटल्यों आनी चिक्रपिरीं घेवन भितर आयलो. अहिल्याबायन ताच्या तोंडाकडेन नदर व्हेली. पुण ताचेवेल्यान तिका कांय अदमास जालो ना. तिणें थार ना जाल्ल्या-बरी विचारलें,

' कितें जालें ? थारायली सोयरीक ? सोयरीकेकच मू आयिल्ले ते ? कितें खंय ?'

' सोयरीक म्हळी कीं चल्या आवैचो जीव थाऱ्यार उरना !

एकदांची सून योसर थार नासता तिच्या जिवाक ! कितें, तुमचो बायलांचो सबाव ! अजाप दिसता म्हाका !' बायलेच्या प्रस्नाक जाप दिवपाचें थंयच दवरून गोविंद शणैन फोण्ण घालें.

'तीं तुमगेलीं अजापां मागीर सांगात सवकासायेन. तुमकां विचारतां तें सांगात पैलीं. ओगीच नकळटचार घालूं नाकात ! कितली दितले खंय वरदक्षणा ?'

' इस्तिमसांव रे ह्या बायलांचें ! सोयरीक म्हळी कीं पैलो प्रश्न वरदक्षणेचो. सांगात. आसा तुमची तयारी पांच हजार घालपाची ? जाल्यारच फुडें उलयात. ना ? लागात चलूंक ! पिशें मात लागपाचें उल्लां तुका आतां !' गोविंद शणैन चडच तिडायत म्हळें.

'लागत; लागत ! आयिल्ली सोयरीक जर तुमी मोडीत रावले जाल्यार तेंय लागपाक चडशें कठीण ना ! प्रत्येक चली तुमी परतीतात तें तुमी येवजिलां नरो कितें? चल्याक असोच बेताळ करून दवरपाचें आसा काय कितें तुमच्या मनांत ?'

' कोणय बावकादेवी बांदली ताच्या गळयांत म्हणटकच जाली तूं धादोशी ! कामण्याचें लग्न करीसर थार जालोना तुका. आतां ही चल्याच्या लग्नाची काडाओड लागल्या. तें एकदा जालें म्हण-टकच तूंय सुटली आनी हांवय सुटलों ! ' गोविंद शणैन तोंड किल्लीत म्हळें.

सोयरिकेची खबर खंयच्या खंयच पावन हो नाका आशिल्लो वाद उप्रासलेलो पळेतकच सुनेन वासरेंतल्यान ' सू ' करून मांयक कुरू केली. मांयय शिटकावली. वसंत्याचो आमाडो चरांटून बांदून फणी केंसांत खोयत उठून ती भितर गेली.

गोविंद शणैन हात धुले आनी दांडयेवेल्या वाल्याक हात

पुशीत, ' उजो इल्लो हाड गो ' म्हणून वसंत्याक सांगलें. सालांत वचून गुडगुडी उखलली. चिलमात तंबाकू किसौन घालो. वयर करप दवरली. चिमटयान इंगळे चुन्यार दवरून गुड्गुडू गुड्गुडू करून गुडगुडी ओडीत रावलो.

' तुमी पुण अशी हद्द कित्याक करतात ? चली काय न्हय ती. ती बाबा कितें गळयाक तेंकल्या, करूंकच जाय कशेंय लग्न, अशें काय न्हय ! जावंचे वेळार जातलें सगळें जथापथ. ' मांयचें विरूस जाल्लें तोंड पळोन सुनेन म्हळें.

' बांयटीच्यो वेणो वांजेक कळनात म्हणटात तें लटिक न्हय. तुका पुते कशो कळटल्यो म्हज्यो वेदना ? तूं चल्या आवय जाल्ली जाल्यार तुका कळटलें आशिल्लें. तुका तें बाये सांगून समजपाचें न्हय. ' अहिल्याबायन एक हुस्कार सोडून म्हळें.

सुनेन मांयच्या तोंडाकडेन पळेलें. तिगेलीं उतरां जड आयिल्लीं. तिगेल्या वेदनांचो अदमास सुनेक जाल्याबगर रावलो ना. तिगेल्या दोळयांत दुखां आयिल्लीं पळेतकच सुनेकय खूब बायट दिसलें.

जेवणावेळ जातकच आज्जेन वसंत्याक उलो केलो आनी ' न्हावंक वच म्हणून सांग गो ! ' म्हणून फर्मायलें.

घरांत सगलीं जाणा मोन्यानीच वावुरतालीं. वसंत्याक पसून आज सदाबरी पदां म्हणपाची वज आयली नाशिल्ली. भुरगें जालें म्हणून ताका कितें बुद्द नासता ? आज घरांत सगलीं एका-मेकांचेर फुगार जाल्यांत म्हणपाची ताका रोखडीच चत्राय जाली. अशा संदीक आपुण गावंक लागल्यार कोणाचोय धेंकणो खावंचो पडटलो हें गिन्यान ताका आशिल्लें.

गोविंद शणै आंग पुशीत आनी रामरक्षा म्हणत मान्यांतल्यान चौखेर आयलो. दांडयेवेलें आंगोस्तर ओडून ताणें ओलें सोडलें.

वासरेंत वचून पाटार बसून शिप्यांतलें गंद लायलें. संध्या केली मागीर 'वसंत्या' म्हणून उलो केलो. त्याबरोबर नारायण, मा आनी वसंतें येवन पाटार बसलीं. जायूक न्हाणौन न्हिदैल्लें जागें जावन रडूंक लागिल्लें. सुनबाय चलयेक उबारूंक गेली अहिल्याबायन तपलें हाडलें आनी ती वाडूंक लागली.

अर्दे जेवण मोन्यानीच जालें. सगलीं मान उमथी घालू जेवतालीं. अहिल्याबाय मोन्यांनीच वाडटाली. इतल्यान सुनबा चलयेक हांडीर धरून वासरेदारांत हळूच येवन उबी रावली तिणें घोंवाक दोळयांनी कुरु केली. नारायण समजलो. सकाळ फुडें तो भाटांत गेल्लो. घरा येतकच बायलेकडच्यान ताका सगल खबर कळिल्ली. ताणें बापायक प्रस्न केलो,

'बाप्पा, कोण आयिल्ले खंय सकाळी तांबडी तोपयेकार ?'

'आरे तो ताळगांवचो येसवंत पै वळखना तूं ? तो बिठ्ठोणच्य त्या वासू नायकाक घेवन आयिल्लो सोयरीकेक...' अशें म्हणू गोविंद शणैन जाल्लें सगलें उलवणें जित्रूप वर्णन करून सांगलें.

सगली गजाल आयकून जातकच नारायणान म्हळें,

'आब्रिलांत येतले मूं ते ? बरें आसा. जाणा बाप्पा, आत जानीक दीर्घा लायनासतना श्रीपादाचें लग्न करून उडैल्लें बरें दिसता म्हाका. चली म्हणटा तशी खरीच गुणेस्त आसली आनी रूपादोळयांनीय सोबशी दिसली जाल्यार ओगीच वळकणां खाव कित्याक ?' अशें म्हणून ताणें सगल्यांच्या तोंडाकडेन नद भोंवडायली.

'तें खरें रे. पुण तागेलो कूर्स सोंपून आनी फुडलें शिक जावन तो दोतोर जाल्याबगर ओगीच लग्न करून मेकळें जाव शाणेपणाचें दिसता तुका ? मागीर सोयरीकय बऱ्यांतली येवपाचं '

आनी वरदक्षणाय गडगंज मेळपाची आस्त आसा म्हणपाचें विसरूंक फावना !' गोविंद शणैन कडयेचो भुरको मारीत आनी बायलेच्या तोंडाकडेन पळेत म्हळें,

अहिल्याबायचो सकाळचो राग अजून लेगीत धुंवतच आशिल्लो. तिणें सोणकटो आयिल्ल्याचें तोड करीत नदर कुशीक काडली. नारायणान तें बारीकसाणीन पळेलें.

'हय बाप्पा. पुण अशेंच घडटलें म्हणून कोणाच्यान सांगूंक येता ? चल्याक लग्न करिना, म्हणून सांगत रावतकच सोयरिको येवपाच्यो बंद जातात आनी मागीर राजकर्णी करून चली मागून हाडपाची वेळ येता ! त्या शामशणैल्या रायूची गत कितें जाली ती खबर आसा मू ? कळंतराच्या आशेन मुदल नाशे अशें म्हणटात तशें जावं नये इतलेंच म्हजें म्हणणें !' नारायणान आवैच्या तोंडा-कडेन नदर व्हेली. दीस पडटकच कवळ्ळेलें साळीक सकाळफुडें सूर्याचीं किर्णां पडटकच फुलूंक लागता तशी अहिल्याबायच्या बाविल्या तोंडार ताजबाण येवंक लागिल्ली ताका दिश्टी पडली.

गोविंद शणैन ताटांत हात भोंवडायलो आनी तें झळझळीत केलें. मागीर उदकाचो घोंट घेत 'हा' करून म्हळें,

'तुजेंय म्हणणें लटिक न्हय अंदूच वैशाखांत संपादून उडैल्लें बरें अशें म्हाकाय दिसता. सदां उठून हिचो फडफडो कोणाच्यान सोंसू येता !' अशें म्हणून ताणें हांसहांसत बायलेच्या तोंडाकडेन नदर व्हेली.

अहिल्याबायन तोंड पर्थिलेंना. तिचे दोळे कशे जाले म्हणून सांगतलो ? दोळ्यांतल्यान ती म्होंवच रकैत रावली म्हळ्यार जाता. इतलें सुरबूस तिचें तोंड पैलीं केन्नाच कोणाक पळोंक मेळ्ळां आसत अशें दिसना. काशात्रेक वचचेली काढ लागिल्लें

मनीस विश्वेश्वराच्या देवळांत पावतकच ताका जी खोस जा
तशीच खोस अहिल्याबायक जाली!

गोविंद शणैक तिगेलें तोंड पळौन धन्यताय दिसली. ता
हातार उदक घेवन तोंडाकडेन व्हेलें आनी तांबयो उखलून
आवंक उठलो. फाटोफाट नारायणय उठलो. मादू आनी वस
केन्नाच उठून गेल्लीं भायर.

ते उठून वतकच 'यो गै.' अशें म्हणून अहिल्याबायन सुने
उलो केलो. तीं दोन उतरां आयकतकच गुलाब शेवत्याचें सुवासि
उदकच आपल्या आंगार शिपडल्याबरी लक्ष्मीबायक खातकुतल्
जाल्यो.

# प्राक्तन !

आज सकाळी उठत पसून कामाक्षेक कितेंच करप नाका अ
दिसूंक लागिल्लें. आंगपांग मोडून आयिल्ल्याबरी दिसतालें. फाटीं
कळा येतात्यो. कपलय इल्लें इल्लें चडच उसळूंक लागिल्लें. पर्थू
वचून हांतुणार पडचें अशें ताच्या मनांत आयलें. आपल्या
जोरजाळ येता काय कितें असो ताका दुबाव आयिल्ल्यान ताणे
थर्मामीटर लावन पळेलो. पुण जोर लागलोना. हुनसाण सदाचीच
आशिल्ली. एक हुस्को मेकळो जाल्ल्यान ताचें आंग मात्शें ल्ह
जालें. पुण हेर सगल्यो वेथा तशोच उल्ल्यो. कित्याक लागून हे
अशें जाता म्हणपाचें घोंकघोंकूनय ताका कांयच अदमास जायना
जालो. ताचें मन व्हड निर्शेणेन भरून आयलें.

कामाक्षेक फाटल्या कितल्याशाच दिसांपसून हें अशें कितेंश
अणभवूंक लागिल्लें. दुबाव नाका म्हणून ताणें डाक्टराक दाखैलें
डाक्टरान ताका पळेलें. 'तुका कांय येक जावंक ना, कळ्ळे

मगो ? बरें आसा तूं. इल्लीशी अशक्ताय आयल्या. काम मात्शें उणें कर. अति स्रमान, चिंताहुस्क्यान जालां हें तुगेलें. मन प्रसन्न दवरपाचो यत्न कर. मेकळचा हवेंत भोंवक वच. ल्हवू ल्हवू बरें दिसूंक लागतलें. भियेंवचेलें कांय कारण ना.' डाक्टरान म्हळें आनी ताका शक्ती येवपाच्या एका टोनिकाचें रेसेत बरौन दिलें. कामाक्षी कपलाक हात लावन घरा परतलें.

'मन प्रसन्न दवरपाचो यत्न कर खंय ! सांगूंक सोपें पुण रावतलें कशें ?' ताणें मुमुरख्यां हांसत म्हळें.

संसाराचें सगलेंच वेपण ताचेर बाबडचाचेर पडिल्लें. चार मनशांचेंच कुटुंब खरें. पुण ताचो भार सोंसूंक नज इतलो जड जाल्लो. कामाक्षेची आवै भायर पडून कांय वर्सां जाल्लीं भायलें भितल्लें सगलें ताकाच एकटचाक पळौंचें पट्टालें. ताच्या देहाक आनी मनाक सुमाराभायर त्रास सोंसचो पडटालो.

तुमी म्हणटले, ' आवै गेल्ली. पुण बापुय आशिल्लो मू ? काय तोय बी भायर पडिल्लो ?' ना. बापूय आशिल्लो. तो वायटकारय नाशिल्लो. ताचे हातपाय धड आशिल्ले. तर मागीर चलयेचेर सगलो भार घालीसर ताका अशें जाल्लें तरी कितें ?

सांतू शणै अन्नाडी नाशिल्लो. तो चार अक्षरांय शिकिल्लो. कितेंय कामबीम करून चार पैशे घरसंसाराक मेळौपाक जाय इतली बुद्दय ताका देवान दिल्ली. पुण अशें सगलें आसूनय ताचो उपेग मात कुस्कुटा इतलोय जाय नाशिल्लो !

हें अशें कसें जालें ? घरची येणावळ आसा. खावंक जेवंक जाय तितलें आसा. म्हजो एकलो एकसुरो अपुर्बायेचो पूत. चाकरीसिर्वीस कित्याक करूंक जाय ? बापायन ताका बाबू करून घराच दवरलो. कित्याकच हातबोट लावंक दिलेंना. वर्सां फाटल्यान वर्सां गेलीं.

फुडें ताचें लग्न जालें. चार भुरगीं जाली. एकदीस म्हातारी अ
बापुय भायर पडलीं. आपुण आसासर बापायन पुताक कां
लागूंक दिलेंनाशिल्लें तशी कितें व्हडली आशिल्ली येणावळ ? 
बापुय येके खेळौंक जाणा आशिल्लो. ताणें इस्तीन, अब्रून द
धुकलले.

तो गेलों आनी सांतूक रानांत पडिल्ल्याबरी जालें. आतां त
वयय जाल्लें आनी आळस आंगांत मुरिल्लो. विडयो फुसकाय
ध्यानस्त बसपाची ताका सवंय जाल्ली. संसार म्हणटात तो कसल
कितें तें जाणा जावपाचो केन्ना ताचेर प्रसंगच आयलो नाशिल्ल
तो हतबुद्द जावन हात पांगरून बसलो.

अशा अवस्तेंत शांताबाय सांतूची घरकान्न कितें करतल
आशिल्लीं ? पुण तिणें धीर व्हगडायलो ना. मांवाच्या मुस्ती
मांयपरस तिणेंच प्रपंचाची उस्तवारी आंगकीर्तीन चलैल्ल
वेव्हारांत ती राटलेली. संसाराची सुत्रां तिका हातांत घेवंच
पडलीं. भायलें भितल्लें सगलेंच ती पळौंक लागली. हरवें सोदतल्या
भाजिल्लें मेळ्ळें. सांतूक आयतें जेवंक खावंक मेळूंक लागलें. त
हुस्कयामेकळो विडयो फुसकायत रावलो.

पुण सांतूची बायल हुशार आसली जाल्यारय ती बायलमनीस
बाबडी रेटूप रेटून कितली रेटटली ? तिका धक्याचपाटचांन
लागली धगखांक ! मांवा फाटल्यान णवधा वर्सांभितर ती
देवागेर गेली.

शांताबाय भायर पडली तेन्ना कामाक्षेक अठरावें वर्स लागिल्लें
तेंच व्हडलें चली. ताच्याफाटल्यान जाल्ल्यो दोन चलयो आनी
निमाणें एक चलो. मनकर्णिका, वासंती आनी प्रकाश. अडेच अडे
वर्सांच्या अंतरान जाल्लीं हीं सांतूलीं चार भुरगीं.

शांताबायचें कुळार मडगवां. भाव केशव सांबारी सुखवस्तू आशिल्लो. शांताबायचो हो म्हणसारको एकच आधार. कामाक्षी बापायबरी काळसावळे आनी एकशिवड जाल्लें. कोणाच्याय नदरेंत भरसारकें ताचें रूप नाशिल्लें. पुण ताच्या बदला देवान ताका तकली मात भौ बरी दिल्ली. सबावानय तें खुबच लक्तुबायेचें, कोणाकय जाय जाय दिसचें अशें आशिल्लें. गावांतलें शिकप जातकच मास्तरानच शांताबायक समज घालो. बायलांक व्हडलें शिकप कित्याक जाय ही तेन्नाची भास. पुण मास्तरान म्हळें, ' तुका नाय म्हळ्यार देवान दिल्लो एक आधार आसा. तूं ताका मडगवां मामासरीं धाड. कामाक्षी तकलेन हुशार आसा. ताका शिकचेली आवडय आसा. तें बरें करून शिकलें जाल्यार तोच तुका व्हडलो आधार जाल्याबगर रावंचो ना. तूं ताका धाडच मडगवा.'

कामाक्षी मामाक भौच आवडटालें. तो आयलाशें पळौनच मास्तरान शांताबायक वयली बुद्दिल्लो. शांताबायन खबर काडटकच भावान रोखडीच संमती दिली. ' धाड गो तूं ताका, जायू. म्हज्या भुरग्यांवांगडां तेंय शिकतलें. ' अशें म्हणूनच तो रावलो ना. कामाक्षेक ताणें वतना आपल्या वांगडाच व्हेलें. तें मन लावन शिकूंक लागलें.

पुण नशिबाक कितें करतलो ! तें एस. एस. सीक आसतनाच ताचेर मळब कोसळून पडलें. आवै गेली ! घरा आयिल्ल्या कामाक्षेक परतें मडगवां वचूंक मेळ्ळेंना !

कामाक्षेच्यो दोगीय भैणी मात आवैबरी गोऱ्यो धव्यो आनी रुपेस्त जाल्ल्यो. पुण बुद्दीन त्यो अणव्थो आशिल्ल्यो. शिकचेली आवड तांकां नाशिल्ली. आवैक धगखांक लागपाक घोवावांगडा ह्यो चलयोय कारण जाल्ल्यो. मनकर्णिका चौदावें वर्स लागतां

लागतांच वीस वर्सांचें काय दिसूंक लागिल्लें. तें खूब तिटी
आशिल्लें. ताची ती तरा पळौन आवैचें रगत आट्टालें. ' ह
बेगीं लग्न करून हाका कोणाच्याय हाताक लावंक जाय. ' शां
बायक वश्रेणी लागिल्ली. पुण हें जातलें कशें ? परिस्तिती दि
दिशीं कठीण जायत वताली. येणावळ तिसऱ्या वांटचा
येनाशिल्ली. सगल्यांची देणीं इतलीं जाल्लीं ! आनीक क
दिसांनी उधार मेळपाचें बंद जावन उपास काडचे पडचे ना
शांताबायक हुस्को जावंक लागिल्लो. भावाचे उपकार इत
जाल्ले ! ताच्या पालवाची आनीक आस्त करीसारकी नाशिल्ल
एक भाटाकुडको विकून पैशे उबे करचे आनी मनकर्णिकाक उज
शांताबाय येवजिताली. पुण तितले म्हणसर एक दीस मनकर्णि
घरांतल्यान नाच जालें ! शांताबायचो आवरो उडलो ! ' खंय गे
काय पोर उंवाळून ? देवा, कित्याक ही असली विया म्हा
दिली ? सात जल्म वांज जावन उरिल्लें जाल्यार कितें इबाडट
आशिल्लें ? जावंचें जावन कसलें गो पोर जालें हें !' शांताबा
कपल धोडावंक लागली. शेजाऱ्यांनी समजायली, धीर दिलो; पु
शांताबायन सासणाचीच्च हाय खाली.

कांय दिसां उपरान्त खबर आयली. मनकर्णिका शेजारच्य
शिवप्प्यावांगडा लग्न जालें. धुवेचो आवैक दुबाव आशिल्लो
जाल्यारय तें इतली अतिताय करीत अशें तिका दिसूंक नाशिल्लें.

तेन्ना सावन तिणें जें हांतुण धल्लें तें अखेर मेरेन ! त
हांतुणार पडटकच संसार वासंतीचेर पडलो. तें बाबडें कि
करतलें ? आवैचें घड जालां म्हणून कळटकच कामाक्षी घ
आयलें. कामाक्षेन आवैक म्हळें,

' आई, आमचें सगल्यांचेंच नशीब कशें गे अशें ?! झक मा

तें आतां म्हणलें शिकप. हांव आतां आनीक मडगवां वचना. वासंतीच्यान घर सांबाळप, तुजें करप कशें जातलें? आतां प्रकाशाचेंय पळौंक जाय. ताका धाडूं या मडगवां. हांव रावतां घरा.'

पुण शांताबायन ताका फुडें उलौंक दिलें ना. 'शी. शी. न्हय जाल्लेंच येवजूं नाका पुता. तुजें शिकप आतां शेवटाक पावत आयलां तें पुरतें जावंदी. तेंच हाचेफुडें तुजें आनी आमचें भांडवल. मुदलच होगडावन बसल्यार फुडें गो कितें करतलीं! आमचें हांगा कशेंय चलत. तूं एकदाचें मॅट्रिक जा. प्रकाशाक मागीर तुज्याफाटल्यान धाडचेलोच आसा थंय. कितेंय कशेंय जालें जाल्यार भाऊक तें सुटूंक येवंक नाच. तूं हांगा राविल्ल्यान आनीक व्हडलेशें कांय जावंचेलें ना. तूं वचच.' तिणें कामाक्षेक धुकलुन मडगवां धाडलें.

पुण मन एक येवजिता जाल्यार दैव वेगळेंच चिंतता, म्हणटात तें लटिक न्हय. शांताबायचें एक दीस अकस्मात चड जालें. तिणें दोळे धांपले ते सासणाचेच! वेथेंत सांपडलेल्या बाबड्या एका जीवाची अशा तरेन सुटका जाली.

ज्या दिसाची गजाल हांवें आरंबाक तुमकां सांगली तो दीस शांताबाय वचून चार पांच वर्सां जाल्या उपरान्त आयिल्लो. इतल्या मजगतीं संसारांत आनी गोयांत कितलोसोच बदल जाल्लो. गोंय स्वतंत्र जाल्लें. कामाक्षी एस. एस. सी. च्या परीक्षेंत पास जाल्लें. हेर जायत्या चलयां माणकी तेंय गांवगऱ्या शाळेंत मास्तरीण, गोंयकारांच्या भाषेंत 'बाई', जाल्लें. प्रकाश एस. एस. सी. त फेल जाल्लो. शिकप सोडून तो घरा बशिल्लो. बापायच्याच घटार हें कलम वतलें काय कितें म्हणपाचें येवजून कामाक्षेचो जीव घुसमटालो. वासंतीचें लग्न करूंक जाय. तें सोपेपणान कशें जातलें?

हुस्क्यांत ही भर पडिल्ली. निर्शेणी दिशीं दिशीं वाडत आशिल
हें सगलें थोडें म्हणून सांतू आनी प्रकाश इल्ल्यातिल्ल्या निमत
रातदीस वाद झगडीं करताले. तांकां थातारतां थातारतां कामाक्ष
खरस येवंक लागिल्ली !

आनी हें सगलें जाणा जाल्लो, पळेना आशिल्लो डॉक्टर कामाक्ष
सांगतालो, तुका कांय जावंक ना, ओखदाची गरज ना; ग
आसा ती स्रम उणे करपाची, विस्रांती घेवपाची, मेकळ्या ह
भोंवपाची, मन प्रसन्न दवरपाची !

कामाक्षेक हांसचें काय रडचें तेंच समजना जालें !

# एकेकाचें नशीब !

आपुण मुंबै फोटींत नाटकाक वेतां म्हणून शांताराम नाय
घरांतल्यान भायर सरलो तेन्ना रातचीं आठ वरा जाल्लीं. सदाब
सात वरांचेर तो खाराक दांडयार घराकडेन आयिल्लो; आपण
नाटकाक वचूंक जाय, पास मेळ्ळा, जेवण जालां जाल्यार व
म्हणून ताणें बायलेक ताकीद केली, तेन्ना सगल्यांक अजाप जा
शांताराम नायक केन्ना नाटकां सिनेमा पळोंक वचपी न्ह
भुरग्यानीं पसून केन्नाय, सिनेमाक वतां, पैशे दी, म्हळ्यार
तांकां दडबडावपी. सिनेमा पळौं नये भुरग्यांनी, सिनेमा पळेल्य
तुमी इबाडटलीं, अशें म्हणून सदांच आडमेळें हाडपी आनी भु
ग्यानीं लागठेल्ल्या बरी केल्लीं तोंडा पळोंनय व अनमनपी मनी
आज आपुण खासा नाटकाक वतां म्हणून सांगता तें आयकतक
भुरग्यांक अजाप जावंचें ना जाल्यार आनीक कितें जातलें ? ताण
ताका सदळ सोडलोना. ‘ हांवय येतलें ’ सरोजान म्हळें. ‘ आपु

ात बरो नाटक पळेता! आमकां केन्ना दाखैता जाल्यार पळे !' ोलनान म्हळें. 'तें काय ना. आज आमीय बी येतलीं.' आमी ात कांय पळौं नये दिसता ! सिनेमाक नाटकाक वचप वायट ाल्यार आपुण कसो वता तर !' शरदान म्हळें.

शांताबायन भुरग्यांक दडबडायलीं. घोवाची नुरा गेल्या दोन दसांत बदलल्या म्हणपाचें तिगेल्या नदरेंतल्यान सुटूंक नाशिल्लें. तर विथर जाल्ल्याबरी तो वागता तें कितें घडलां म्हणपाचें तिगेल्या ध्यानांत आयलें नाशिल्ल्यान तिणें ताका तरेतरेन प्रस्न करून पळेले. पुण, 'कांय न्हय', 'हरशींच', 'तुका ओगीच कित्या कितेय दिसता' अशी धिस्पटावणी करून ताणें तिका चीप्प केल्ली. घडये मनाची विसरांती करपाखातीर नाटकाक वचपाचें आयलां जातलें तकलेंत, असो तिणें समज केलो. नाटक कसलें, म्हणून विचारून तिणें घोवाक वाचा फोडपाचो यत्न केलो. पुण ताणें कांयच हां हूं केलेंना. मोन्यानी हातपाय धुले, देवाक नमस्कार केलो आनी बायलेन दबरलेल्या म्हाणायेर तो बसलो. तिणें वाडलें. तो जेवंक लागलो. आपुण कितें जेवतां आनी तिणें कितें वाडलां म्हणपाचेर ताचें चित्त नाशिल्लें. दोन उंडयो जेवन तो उठलो, आंवलो आनी आंगावलीं चडौन, 'येतां आं. सांजे गिरगावांतच रावतलो.' अशें म्हणून पायांक घालून चलूंक लागलो.

तो थेसणार प्लॅटफोर्मार पावलो तेन्ना इंडिकेटराचेर खंयची गाडी लागल्या तें ताणें पळेलें ना. आपुण फोर्टांत नाटकाक वेतां म्हणून ताणें सांगिल्लें खरें. पुण ताणें वचचेलें येवजिल्लें उत्तरे-कडेन. आपणें येवजिल्ल्या कामाक चर्चगेटच्या दिशेपरस विरार-कडची दिशाच बरी अशें ताणें मनांत हाडलें. गाडी येतकच तो

तिका हुमकळ्ळो. गाडी उपाट भरिल्ली. भितर रिगपाक
नाशिल्ली. पुण हेंय एका भशेन आपणाल्या वेताक जाय
आसा, अशें मनांत येवजून तो गाडयेंत मुंगरलो ताची
सुस्त नाशिल्ली. ती गिरगिऱ्याबरी घुवंक लागिल्ली. मदीं
आपणाल्या जिणेंतल्या प्रसंगांचो उगडास जातालो.

गोंय सोडून मुंबै आयल्यार ताका जायतीं वर्सां जाल्लीं.
ताणें बिराड हालींच केल्लें. मुंबै येतना बायल आनी तीन भु
हांकां ताणें, ' तुमकां बेगींच व्हरतां. वर्स स म्हैने लागत '
सांगिल्लें. पुण वर्सा बदला पांच वर्सां जालीं. तरी तांकां हाड
ताका जमूंक नाशिल्लें. हाडून दवरतलों खंय; खावैतलो कि
ताका एकल्याक रावपाक धड जागो मेळनाशिल्लो. मागीर खं
बायल आनी खंयचीं भुरगीं!

मुंबै आयल्या उपरान्त वळखीन पैलीं तो आपणाल्या ए
पैसुल्या नातलगागेर रावलो. पुण येद्याशा कुडीत रावतल्या
बरेंमागत्याक कितलो त्रास दिवंचो, म्हणपाचें मनांत येवन ता
चिमटे येवंक लागले. ताणें थोडयाच दिसांत आपणाली पथ
थंयच्यान हालैली. त्या सोयऱ्यान ताका सांगलें, ' तुमी क
परकेपण धरूं नाकात. तुमकां काम मेळसर तुमी हांगा खुश
रावात. ' पुण शांताराम नायकाक तें रुचलें ना. ताणें दुसऱ्य
एका अनवळखी मनशागेर पेइंग गेस्ट म्हणून रावपाची वेवस
केली. गोयांसावन येतना माग विकून उबे केल्ले पैशे अर्दे घर
खर्चाक दवरून अर्दे ताणें वांगडा हाडिल्ले. ते ताचेकडेन आशिल्ले

शांताराम नायकालो मूळ धंदो हातमागांचो. गोयांत एका वेळा
त्या धंद्याचेर बरी जाडजोड करून आनी संसार जथापथ चलौ
तो सुखान जियेतालो. सुताच्या पर्मिटाच्या मुस्तींत तर ता

ॠतलो पैसो मेळैलो ताका सुमार नाशिल्लो. माग चलौपाचे [ ]रतें चालू दवरून चडशें सूत तो हेर पर्मिट नाशिल्ल्या मागकारांक [ ]वकतालो आनी तांचेर दोंगरा येदे उपकार केल्ल्याचें समादानय [ ]ळैतालो. तेय त्या उपकारांचें उष्णें, फूल ना जाल्यार पाकळी [ ]देवन पावैताले. ह्या धंद्याच्या मालवजार ताणें नवी मठी आनी [ ]भाटलेंय बी केल्लें. पुण फुडें दीस परतले. धंदो चलना जावन मागांची वाशिलबाकी करची पडली. तर्णेपण उताराक लागल्या उपरान्त नशिबाचो कस लावपाखातीर शांताराम नायक मुंबै आयिल्लो.

स सात म्हैने धुकलले. हद्द वेंचूनय गिरणीतली विणकाराची चाकरी ताका मेळ्ळीना. गांठीचे पयशे सोंपत आयले. फुडाराक खातलो जेवतलो कितें म्हणपाचोच प्रस्न उबो रावलो. वर्सभरांत ताका एक पांदुडूय घरा धाडूंक मेळ्ळो नाशिल्लो. फक्कत गोड गोड धीर दिण्या उतरांच्यो चिटीच तो बायलेक धाडटालो. कांय कालान एका इश्टाच्या खटपटीन एका गिरणीत ताका काम मेळ्ळें. पुण तें बदली विवराचें. म्हैन्याचे सगले दीस काम करूंक मेळपाची संद नाशिल्ल्यान प्राप्ती खूब उणी जाताली. घरा धाडूंक कांयच हातांत उरनाशिल्लें.

तीन वर्सां अशीं गेलीं. थंय शांताबायन भाटल्याचेर रीण काडून कशी तरी जोगवण केलो. अखेरेक शांताराम नायकान येवजिलें, हें खरें न्हय. बायले भुरग्यांक मुंबै हाडल्याबगर उपकरना. शीत न्हय पेजेनीस, जें कितें मेळत तें सगल्यांनी एकठांय रावन खावप बरें. अशें येवजिलें खरें. पुण तांकां हाडून दवरतलो खंय ?

तेन्ना दुसरें म्हाझूज सोंपून एक दोन वर्सां जाल्लीं. मुंबैत रावंक सुवात मेळनाशी जाल्ली पागडी नांवाचो एक नवोच देवचार

शबय घालूंक लागिल्लो. तेन्ना हचारांचेर उडी वचूंक नाशि
जाल्यारय शेंकडे काडचे पडटालेच. शांताराम नायकाक दसक
जड आशिल्ले. अशा वेळार खाराक दांडचार एक कूड मेळट
जाली. जायते गोंयकार थंय रावतात म्हणपाचें ताका कळ्ळें.
थंय गेलो. लागसारच कोंकणी भास कानार पडटकच ताका ख
जाली. ताणें खबर काडली. निकतीच रिकामी जाल्ली
कूड ताका मेळ्ळी.

जालें. रोखडोच शांताराम नायक गोयां गेलो. ताणें घरभाट
फुंकलें. नव्या गिरेस्तान तें घेतिल्ल्यान मोलय अदमासा परस चड
आयलें. सगल्या देण्याघेण्यांची बंदिस्ती करून आनी गोयां
निमाणो दंडवत घालून बिराड घेवन तो मुंबै आयलो.

गोयांत आस्कळ विस्कळ सुवातेर रावपाची संवय जाल्ल्या बाय
भुरग्यांक दांडचावेली ती वेतभर कूड पळेतकच आनी खान्याच
घाण वस्स करून नाखांत भरतकच तकली फातराक आपट
चिनारी आयिल्ल्याबरी जालें ! गोयां तांकां चार वर्सां मु
वचपाची वश्रेणी लागिल्ली. ताणीं थंय मुंबै पळेली ती 'बाँ
देखो, राणिबाग देखो !' करून मॅजिक लँटर्न घेवन भोंवनल्य
भोवंडेकाराली. तांतूंतल्यो ध्यो मजली इमारती तांच्या नदरे
आशिल्ल्यों. असल्याच एका बंगल्यांत वचून रावतलीं म्हणपा
तांगेलें सपन आशिल्लें. ताच्या बदला खारव्यां वाडचार खांचीं
आनी अळशीकावण्या घरांत रावंचें पडिल्लें पळान तांकां घ
जागो जालो. त्याच पावलांनी फाटीं परतून आयिल्ल्या त्या
बोटींतल्यान आसात तशीं गोयां व्हरून जीव घालचो, अशें तांक
दिसलें जाल्यार अजाप कसलें !

पुण इतल्यानच सोंपलां ? दीस वतात तशें तशें मुंबैचें सुख

पुरतेंच कळून येवंक लागलें. गोयां पैस आशिल्ली थंय शांता-बायक तो चाकरी कसली करता आनी जोड कितें जोडटा म्हण-पाचो कांयच अदमास लागूंक नाशिल्लो फुडें तें प्रत्यक्ष नदरेक पडटकच, घोवाक कित्याक ही मुंबै येवजली अशें तिका जालें आतां दुसरी तडच उरूंक नाशिल्ली. अशोच बुचकळचो खावन जाता तितले दीस जीव वाचौंक जाय म्हणपाचें तिणें अंतर्यामीं जाणलें.

बाबडचा शांताराम नायकाची अवस्ता कितें सांगतलो ? गिरणींतली ती बदली विवराची चाकरी ताका खोडो कशी जाल्ली. तें काम सोडून आनीक कितें करतलो ? तशें नाच म्हळयार करीसारकें दुसरें आशिल्लें. विडयेकाराचें, पानकाराचें ल्हानशें दुकान घालून बशिल्लो जाल्यार लाव जावपाची संद आशिल्ली. पुण तसलें काम उणाक्पणाचें दिसतालें. धवाडगपण ताका सगल्याच वाटानी बाधीकाराचें जाल्लें. धवाडगेपणाक लागून, न्हेसप पांगरप, शिकवप सवरप हीं सगलींच सुमाराभायर जड जाल्लीं. पुण तीं सोडीन म्हळचार सुटसारकी नाशिल्लीं बामणा बदला आपुण सुदीर जाल्लों जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें, अशें भौन भौन ताच्या मनांत येतालें. मनशाची संस्कृताय ही मानसिक उंचायेपरस अर्थीक बळग्याचेरच खूबशी आधारून उरता म्हणपाचें गिन्यान ताका ल्हवू ल्हवू जायत वतालें पुण कुत्र्याची शेंपडी नळयेंत घाली जाल्थारय वांकडी ती वाकडीच उरता !

झरमरत झरमरत दीस धुकलतां धुकलतां आतां दोन तीन वर्सां गल्लीं. फियो दिवंक मेळनात. भुरग्यांलें शिकप बंद जाल्लें. आंगांतलीं बोंदरा आनीक आंगार रावंक तयार नाशिल्लीं. पोटाची भागबण कशी करतलो म्हणपाचो हुस्को उत्पन्न जाल्लो. हाचे-

कडल्यान ताचेकडल्यान उष्णे पाष्णे घेतील्ले पैशे केन्नाच पर
दिवंक न मेळिल्ल्यान तांचेकडेन तोंड फापुडपाची बंदिस्ती जाल्ल
वळखीपाळखीचे मनीस तोंड परतूंक लागिल्ले. रिणाचो उगडा
जातकच शांताराम नायकाल्या आंगार कांटो फुलतालो. हें री
फारीग कशें जातलें देवाक खबर, तो म्हण. पुण त्यायपरस आ
जियेवप कशें म्हणपाचोच व्हडलो प्रस्न उबो राविल्लो. अ
परिस्तितीत किरिस्तांव भावांक तांगेल्या क्लुबांचो आनी कुडां
केदो आधार जाता म्हणपाचें कळटकच गोंयकार हिंदु वर्स संखी
मुंबै रावन कुस्कुट शिकले नात आनी इल्लेय सुदारले नात अ
येवजून ताका भौच दुःख जालें!

अखेरेक शांताराम नायक इतलो गांजलो, इतलो वळपेलो
ताका फकत पिशें लागपाचें उल्लें. सामकी सत्याभास काडिल्ल्य
बरी ताची अवस्ता जाली. घरांत बायले भुरग्यांक तोंड दाखव
परस खंयय काडून गेल्लो बरो, अशें ताका दिसूंक लागलें पु
खंयय गेलो म्हणून तांचे हालउपाद्रे कशे चुकतले म्हणपाचें येवज
तो फाटीं सर.

पुण एक दीस ताच्या सहनशक्तीची दोरी तुटली अशे गांजले
लोक बायलभुरग्यांक वीख घालून मारतात आनी आपुणय मरता
म्हणपाच्यो गजाली केन्ना केन्नाय ताच्या कानार येतात्यो. एक
बायलेन भुरग्यांक बायंत उडौन आपणेय उडी मारली आ
वांगडाच सगलीं मेलीं, अशो जायत्यो गजाली ताणें आयकल्ल्य
आपणेंय असलें कितेंय केल्याबगर ह्या चक्रविभूंतल्यान आपणा
सुटका जावंचेली ना, अशें ताका दिसतालें. चित्त थान्या
नाशिल्ल्यान कामावेलेंय ताचें लक्ष उडिल्लें.

आनी हातूंतच ताची सारासार विचार शकतच सोंपिल्या ब

जाली. आत्मघात करपाचें ताणें थारायलें. आपुण मर्तंकच फाटल्यान बायलभुरग्यांक बरे दीस येवंचेले आसतीत. आपुण जिवो रावल्यार तांच्यो अशोच भोयो जायत रावतल्यो, अशें ताणें मनांत हाडलें. आरंबाक हावें सांगली ती गजाल त्या दिसाची.

तो चडलो ती गाडी विरार लोकल आशिल्ली. तो घोंकणेंत आनी येवजणुकेंत आशिल्ल्यान गाडी खंय पावली म्हणपाचें ताका भान नाशिल्लें. गाडी चलता आसतनाच आपुण खंय तरी उडी मारून जीव दितलों अशें ताणें येवजिल्लें. पुण मरूंक भायर सरिल्लो शांताराम नायक गाडयेच्या दारांतलो मदलो दांडो घट्ट धरून उबो राविल्लो तो बोरीवलीक गाडी पावन लोक देवन वतकच ल्हवूच भितर सरलो आनी एका बांकार बसलो. सपनांल्यान जागो जाल्ल्याबरी ताका जालें. ताचें मन काचकूच करूंक लागलें. 'हांव मरूंक भायर सरलां खरो. पुण म्हज्या फाटल्यान बायलभुरग्यांक कोण पळेतलो ? तांचें कशें जातलें ? आतां हांव जितो आशिल्ल्यान इल्लो पुण धीर आसा. फाल्यां तोय उरचो ना. तीं सामकीं वाऱ्यार पडटलीं. कितें जातलें बाबडयांचें ? म्हाका हें न्हय आशिल्लेंच येवजलां न्हय मू ? मरप म्हळयार मस्करी ? जिवाक कसो थरथरो भल्ला !' ताणें म्हळें, इतलेंच न्हय, ताचें आंग खरेलेंच थरथरूंक लागलें.

इतल्या म्हणसर गाडी दहिसराक पावली. शांताराम नायक दोळे धापून आनी तकली वणखण्याक तेकौन सस्त राविल्लो. आपल्या आंगांतल्यान सगली जीवसाणच कोणय तरी चोखून घेवंक लागला अशें ताका दिसलें. आपलें काळीज फुकफुकूंक लागलां. तांचे थोके व्हडाव्हडान पडूंक लागल्यात म्हणपाचें ताका आयकूंक येवं लागलें. अशें उसळू उसळून तें एकदम थप्प जायना मू, अशें

मनांत येवन ताची सामकी गुळी जाली ! आपुण जीव दिवपा भायर सरलां म्हणपाचेंच तो विसरलो!

आनी मागीर भायंदर काडून गाडी वसयच्या खाडयेवेल्या वतना पुलाचेर जो गडगड आवाज जावंक लागलो तो आयकतक ताणें कच्च करून आंग काडलें. रेडचार बसून यमच येता ता हो आवाज, असो ताका भास जालो. न्हंयत उडी मारपाखाती उठपाचो ताणें यत्न केलो. पुण कोणे तरी घट्ट खिळायल्ल्याब ताका जाग्यावेल्यान उठूंकच येना जालें !

# कर्मभोग !

' तुमकां तीन म्हैने प्रोबेशनाचेर काम करचें पडटलें. तोमेरे तुमकां वेजबोर्डान नेमून दिल्लो मुशारो मेळचो ना. आमी तुम चालंत मुशारो दिवं. ताच्या उपरान्त सबएडिटराचो मुशारो मेळ लागतलो. मान्य आसल्यार फायच्यान येयात कामाक. ' मुखेल्या देवदत्ताक सांगलें.

' आवो, पुण हांवें तुमकां सांगलें न्हय ? हें काम म्हाका त नवें न्हय. आनी हांव तसो भारानसुत अणभवीय आसां. आ पंचवीस तीस वरसां हांव नेमाळ्यांत काम करीत आयलां. हाली करतालों तें काम पिरायेची मर्यादा लागू केल्ल्यान म्हाका सोड पडलां. हेंच जें काम तुमी म्हाका दितले तें कांय वर्सां फाटीं हा एकल्या एकसुऱ्यान केलां. तुमच्या आदीं जे हांगा मुखेली आस ते भायल्या देशांत कांय म्हैने भोंवडेक गेल्ले. तेन्ना हांवच सग काम सांभाळटालों. तुमी जाय जाल्यार खात्री करून घेयात. ' अ म्हणून देवदत्तान आपणालो तीस वर्सांचो इतिहास ता संक्षिप्तांत सांगलो.

' हांव खंय न्हय म्हणटां ? तुमी सांगले तें म्हाका मान्य आसा. तुमी अणभवी म्हणूनच हेर सगल्या उमेदवारांक कुशीक काडून तुमची पिराय ध्यानांत घेनासतना, तुमकांच घेवंक हांव मुस्तायक जालां. पुण नव्या मनशांक प्रोबेशन पिरियड हो उरताच. तुमकां परमनंट करतले हाच्याविशी तुमी मातय दुबावूं नाकात. पुण नेमाप्रमाणें सगलें जावंक जाय. ' ताणें म्हळें.

कितें करतलो ? देवदत्ताक आयकूंचेंच पडलें. हेच तरेचें काम मेळपाखातीर गेल्ले बरेच म्हैने तो विडविडतालो. पुण फाव जाल्लो मुशारो दिवन ताका कामार दवरपी मनीसच आजवेर मेळूंक नाशिल्लो. तो मेळ्ळो म्हणपाची ताका खोस जाली. पुण प्रोबेशन चुकना हें पळोन मात ताका आपणाल्या कर्मभोगाचो हांसो आयलो.

तुमी म्हणटले, हातूंत कर्मभोग कसलो ? नेम आसा त्याप्रमाणें कोणय फर्मायता आनी गरजवंताक रविशेप्रमाणें तें आयकुंचें पडटा. पत्करचें पडटा. जाय जाल्यार घरचें नाका आसल्यार कोण कोणाचेर जबरदस्ती करता ?

आतां तुमकां सांगचें पडलें ना, कर्मभोग कसलो तें !

' आरे, तुजी ही कितल्यावी चाकरी ?' असो देवदत्ताक कोणेय प्रस्न केल्लो जाल्यार ताका सट्ट करून जाप दिवंक येवची नाशिल्ली. ताका येवजूंचें पडटलें आशिल्लें. उगडास करीकरीत बोटां मोडचीं पडटलीं आशिल्लीं. देवान दिल्ले दोन हात तितल्या-खातीर पावनात जावन मागीर कागद घेवन ताका आंकडे मांडचे पडटले आशिल्ले.

तुमी म्हणटले, हो अतितायेचो विनोद तितलोसो सोबसारको जालो ना. ओगीच उंगळ्याचो रावण करपाची वज जायत्या जाणांक

आसता. अशो चाकऱ्यो केल्यो पुण कितल्यो देवदत्तान ? पंचवी
चाळीस ?

तुमकां हें कुवाडें केन्ना सुटलां ? तुमी पळेलांच जातले,
मनीस एका सुवातेर जल्माक येतात, त्याच सरादीक ल्हानाचे
जातात. आनी एक दीस देवाघरचो आपवणो येतकच थंयच
दवरून देवाघरा चलूंक लागतात. हाच्या उफाट्टें कांय मन
जल्मतात एकठाय, जल्मभर हांगा, थंय करून हेडटात सतराक
आनी खंयच एका सुवातेर थिरावंक पावनात ! 'आरे, ता
पायार नक्षत्र मरे पडलां !' हीं उतरां तुमी केन्नाय आयकल्य
आसतलीं. असले पायार नक्षत्र पडिल्ले लोक जिवे आससर बा
त्रासच भोगूंक जल्मल्ले आसतात. रावपाची एकच एक सुव
दीर्घ काल उरता असली एकादुकलीच चाकरी आनी लग्न जा
आसल्यार बायलभुरग्यांच्या सहवासाचें सासणाचें सुख पापयांच
नशिबांत बरैल्लेंच नासता !

देवदत्ताच्या पायार अशेंच नक्षत्र पडिल्लें. ताका समज
लागलें तेन्नाच्यान ताणें उगडास करून पळेल्यार गिरगिरें अ
आपली जीण घुंवतच रावली म्हणपाचें ध्यानांत येवन ताका आ
णाल्या संचिताचें भोवच कौतुक दिसलें. हेर जायत्या जाणांच
जिणेची अशीच दुर्दशा जावन अखेरेक चुरचुऱ्यांचें पुण्यच उरित
ताणें पळेल्लें ताका लागून अज्ञात, अव्यक्त दुस्मानान आपणाक
एकल्याक भोगयल्ली ही ख्यास्त न्हय, अशें एक व्यस्त समाध
मानून घेवन तो जियेत आशिल्लो

देवदत्त सात वर्सांचो जालो आनी तागेल्या भोंवडेक आर
जालो. तुमी हासतले आनी विचारतले, सातव्या वर्सारिच त

चाकरेक लागलो काय कितें ! चाकरेक लागलो ना. अध्ययनाक लागलो.

पुर्वील्ल्या काळांत भुरग्याक व्रतबंध करून गुरुगृहांत व्हरून दवरताले खंय. देवदत्ताचो व्रतबंध अजून जावपाचो आशिल्लो. पुण त्यापैलींच गुरुगृहांत न्हय जाल्यार दुसऱ्याच एका गावांत ताका व्हरून तिपोलयागेर दवरलो. कित्याक ? शिकूंक.

ऐशीं वर्सां फाटली ही गजाल. तेन्ना गावागावानी शाळा नासताल्यो. गावांत चार स बामणांचीं घरा आसतालीं. पुण सगल्यागेर शिकपी पिरायेचीं भुरगीं आसतालींच अशें न्हय. गावांतल्या हेर सगल्या लोकांक त्या मुस्तींत शिकप म्हणटात तीं गरजेची वस्त अशें केन्नाच दिसनाशिल्लें. कोणें तांच्या तकलेंत तें घालपाचो यत्नय केलो ना. बामणांलीं भुरगीं शिकपाच्या पिरायेंत पावलीं म्हणटकच पेडण्या म्हालांतलो वा वेंगुर्ल्यामालवणचो मास्तर म्हणून घेवपी कोणय मनीस सोदून हाडून ताका मुरग्यांबापुय घरांत रावैतालो. ताका भूस घाली आनी ल्हानसो मुशारो दिवन सांबाळी. त्या घरकाराल्या बलकंवार वा माळयेर घरकारालीं आनी शेजाऱ्च्या हेर बामणांलीं धा बारा भुरगीं घेवन मास्तरान बसप आनी आपणाक कितें येता तें तांकां शिकवप, अशें तेन्ना गांवोगांव चलतालें. जातालें अशें कीं हीं भुरगीं मात्शीं व्हड जातकच चलयो घरांत कामांत घुस्पताल्यो आनी चले फिरंगी शिकूंक इस्कोलांत वचूंक लागताले. मास्तराक मागीर गुडगुडेक घालपाचें, हाडव्हर करपाचें, आनी पाडयाकडेन म्हळचार नाल्ल पाडूंक वचपाचें काम उरतालें. पुण सगलेच मास्तर असलीं कामां करपाक रावंक तयार नासताले. तेय बाबडे अशेंच पायार नक्षत्र पडिल्ले मनीस ! ह्या

गावांतले त्या गावांत पावताले. मास्तर वतकच, परतीं भु
व्हड जायसर दुसऱ्या मास्तराक संद नासताली.

देवदत्त सात वर्सांचो जालो तेन्ना गावात मास्तर नाशिल
देवदत्ताक शिकपी भावंडाय नाशिल्लीं. गावातल्या मेजून स
बामणांगेर मेळून चार पांच भुरगीय देवदत्ताच्या पिराय
नाशिल्लीं. देवदत्ताखातीरच मास्तर हाडूंक येतालो. पुण मास्तर
भूस मात देवदत्ताच्या बापायन घालचो पडटलो आशिल्लो. ते
अन्नाक तसो दुकळ नाशिल्लो. पुण देवदत्ताच्या आवैक पर
मनशाचें सासणाचें बंदन नाका आशिल्लें. त्यापरस देवदत्त
व्हरून तिपोलयागेर दवरप सोंपे आशिल्लें. आनी तीच मांड
देवदत्ताच्या बापायन केली.

तेन्ना वेळ म्हूर्त बी पळौन घराभायर सरताले वा धाडटा
पुण देवदत्ताक जल्माक येवपाकच बरी वेळ मेळूंक नाशिल
जावंक जाय. मागीर ताच्या जिणेतल्यो फुडल्यो सगल्योच वे
घळसणल्यो जाल्यार अजाप कितें !

देवदत्तालें हें पैलेंच परस्थान. ताच्या उपरान्त चौदाव्या वर्स
फुडलें शिकप करपाच्या निमतान जें तागेलें परस्थान उप्रासलें
आज नव्वद वर्सांची पिराय जाल्या उपरांतय तशेंच उरलां.

शिकपाच्या निमतान देवदत्त तीन कडेन पाविल्लो. तीन ती
चार चार वर्सांच उरिल्लो. जाल्यार शिकून जातकच वेवसायाच
वा चाकरेच्या कारणान ताणें गोयांतच सातकडेन राबितो केल्ल
दोन शारांत तीन तीन वेळा आरतून परतून, एका गावांत दो
फावट, आनी उरिल्ल्या चारकडेन एकेकच वेळ तो साबोसुबो
आपणालो कबिलो घेवन राविल्लो. हें तागेलें वास्तव्य सलग अ

केन्नाच जावंक पावलें ना. तातूंत आरतो परतो विखंड पडतच उरतालो.

अशे तरेन पिरायेचीं चाळीस वर्सां तरेतरेचीं संकष्टां अरिष्टां आनी दगदग, दळिद्र हांच्या लागीं झगडत झुजत आनी खर्शेत धापेत रावन निर्शेतकच देवदत्तान गोयांक दंडवत घालून मुंबैचें परस्थान धरलें आनी आज पन्नास वर्सां तो मुबैंत रावता.

तुमी म्हणटले, जावं, मुंबै पावतकच पुण तागेलो कर्मभोग सोंपलो मूं ? थंय पुण तो सुखी जालो मू ?

ना. धोडयाऱ्याच्या कपलांतले फातर धोडयाराचो धोडी जालो तरी नाशे जायनात. घडये तेय बी वाडवाडत व्हड जायत वतात आसूं ये !

मुंबैची देवदत्ताली जीण सांगतलो जाल्यार सांगसारकें खूब आसा. पुण तें सांगपाक वेळ ना आनी हेरकडेन तें सांगूनय जालां. आतां मुळापदार येवन संक्षिप्तांत जें सांगूं येता तितलेंच सांगतां.

नवें प्रोबेशन पत्करून नव्या आफिसांतल्यान देवदत्त भायर सरतकच ताका हो फाटलो सगलो उगडास जालो. मुंबैच्या दोन तपांत आपणें कितें उजवाड घालो ताचो आलेख तो मनांत चित्रां-वक लागलो. आपणालें हें प्रोबेशन पुण कितल्यावें तें नक्की ध्यनांत हाडपाची ताका सबाविकच इत्सा जाली आनी तो तकली सांसपीत रावलो. उगडास करतां करतां ताची तकली दुखूंक लागली. प्रोबेशनांचो आंकडो ताका निश्चित करूंक येना जालो. तोमेरेनची चोवीस वर्सां ताच्या नदरेसामकारा अंधुक अशीं उबीं रावलीं. तांतले काळजाक दाग दिवन गेल्ले प्रसंग कालच घडि-ल्ल्यासारके नियाळ्ळे.

ताच्या पायार पडिल्ल्या नक्षत्राचो सुगुरवो (!) मुंबैतय

बदललो ना. नक्षत्र पायार पडप म्हळचार कितें कोण जाणा.
जण एकल्याच्या जलमवेळावेली जी कुंडली मांडटात तांतूत बि
डाक येतात ते गिरे मनशाक खंयच्य। खंय पावेतात हातूंत म
दुबाव ना ! मनांत हाडल्यार ते गजाचो गाडव करतात अ
रेडचाचो बृहस्पती करून सोडटात !

देवदत्ताची ग्रेट फॅमिली सर्कस मुंबैतच बोरिवली, गोरेग
कांदिवली ह्या उपनगरांत भोंवडी करून अखेरेक विलेपाल्य
थिरावली. पुण उपरान्तय देवदत्ताले एकपात्री प्रयोग परते गोय
गावागावानी चल्ले ! तशें कित्याक, खुद्द मुंबैतय त्या पैली
एक पात्री प्रयोग पश्चिम रेल्वेच्या जायत्या ठेसनानी निर्दि
करीसारक्या सुवातींचेर जाल्यात आनी तूर्तांकय चल्ल्यात. पश्चि
रेल्वेच कित्याक, मध्य रेल्वेच्या शिव ठेसणार देवन थंयच्या ए
अल्पकालिक नेमाळयाच्या आफिसांत कांय म्हैने ताणें उपसंप
दकपण केलां. त्या चोवीस वर्सांत एका नेमाळकाराच्या आफिसां
चार फावट आरतून परतून तो बावुरला. खंय पंधराच दीस, ख
देड म्हैनो, खंय तीन म्हैने, खंय स म्हैने, खंय तीन वर्सां आ
एकठाय सात वर्सां ताणें सहसंपादक उपसंपादक म्हणून चाक
केल्या. सात वर्सां चलिल्ली ही त्या सगल्यांतली अति दळि
चाकरी ! एकाच वेळार दोन दोन कडेनय मेन आनी साइ
म्हणून ताणें कामां केल्यांत. अशी ही गजाल आशिल्ल्यान ता
चाकऱ्यांचो आंकडो नक्की करूंक ना आयल्यार अजाप कसलें ?

मुंबैतय असमाधानी जावन दोन फावट तो मुंबैभायर वच
आयिल्लो. बेळगवां पंधरा दीस आनी नाशकाक एक म्हैनो
तागेलीं आनिक दोन प्रोबेशनां. पुण तीं वयल्या हिसपांत जमे
येवंक नात.

जीणभर ह्या कर्मभोगाक लागून देवदत्त कितलो जळपेलो आनी जळपेता आसतलो ताचो अदमास आतां तुमी करात. ज्या गिऱ्यांनी ताची ही दुर्दशा केली, ताणींच ताच्या कुंडलीत विवाह योग घालून ताच्या वांगडा ताच्या बायलभुरग्यांक मात बेश्टी ख्यास्त भोगेली ! देवदत्ताल्या कर्मभोगात नियतीन तांकां वांटेली केलीं. हाका लागून तो आज दुपेट दुःखांत हुलपता !

# जलमभुंयेची आवतीकाय !

'जननी जन्म भूमिश्च स्वर्गादपि गरीयसी' अशें संस्कृतांत म्हळ्ळें आसा. म्हळचार आवय आनी आवयभूंय हीं स्वर्गापरस व्हड. लटिक न्हय ही म्हणणी. मनशाक तुमी आवय आनी आवयभूंय हांच्यापसून पैस दवरशात, नाजाल्यार हेर कसल्याय कारणानी तो तांच्यापसून पैस उरत जाल्यार ताका त्या दोगांचेय हुटहुटे लागल्याबगर रावंचेनात. तांकां केन्ना येवन पळेन, तांचें दर्शन केन्ना घेन अशें ताका जातलें. जितलो जितलो वियोगाचो काळ वाडता तितली तितली ताच्या हुटहुटचांची अतिताय वाडतच रावतली.

मनशाच्या दैवांत आवय आनी आवयभूंय हांच्यालागसार वावुरपाचें भाग्य जलमवेर बरैल्लें आसप ही गजाल दुर्घटच. चड करून अशें घडटा कीं आवय ही निसर्गाच्या नेमाप्रमाणें पुताच्या जाणटेपणा मेरेन वांचूंक पावताच अशें ना. ती आदीच सगार वता. केन्ना केन्ना तर ती बाळंत जातनाच तिणें सासणाचे दोळे धापिल्ल्यान जलमल्ल्या भुरग्याक तिचें तोंडय पळौंक मेळपाचें नशीब नासता ! जलमभूंय मात ताका मरसर आंगाखांदार

केळयता आनी तो मेल्या उपरांतय ताका आपल्या होटींत आल
सरो दिता, नाजाल्यार ताच्या रक्षेन पुण आपलें आंग भाजून घेत
ती ताका चडशें केन्नाच अंतर दिना. पुण ही गजाल जाल
सभाग्यांची. दुर्भाग्यांक आवय तर सांडून वताच. आवयभुयेंक
सांडून पैस विलाथेक तोंड घेवन वचचेलो प्रसंग तांचेर येता
वर्सांसंखिनी आवैभुयेंचें दर्शन जालेंना म्हणटकच तांची अवस्त
पिशांतराबरी जाता. ‘ गोमंतक ’ खंडकाव्य बरैल्ल्या स्वातंत्र्यवी
सावरकराली ती कविता, नाजाल्यार ‘ केन्ना गोयां, केन्ना गोयां
म्हणून वथरेल्ल्या मनोहररायाल्यो कविता वाचल्यात आस
जाल्यार तुमकां फोडणिशी करून सांगचेली गरज ना. सावरकारा
आपल्याक जल्मभुंयेक घेवन वच म्हणून दर्याक आळैल्ल
धपकायल्ली कविता आजय आत्र्या पैन्यान आयकतल्यांच्या काना
पडत आसता.

केसवाची अवस्ता कांयशी अशीच जावन पडिल्ली. गोयां वचू
आयल्यार ताका कितलींशींच वर्सां जाल्लीं. तरेतरेच्या आडमेळच्यां
लागून ताका इतलीं वर्सां आपणाल्या गावात वचून वास्तूचें दर्श
घेवंक मेळूंक नाशिल्लें. अंदू वतलों, फुडल्या वर्सा वतलों अश
तजविजो करतां करतांच वर्सां उलगल्लीं. अखेरेक एका वस
नित्शेव करून ताणें प्रस्थान दवरलें आनी साटली पोटली बांदू
तो एकदांचो गोयां गेलो.

पुण तो जेन्ना आपणाल्या त्या सोपुरल्या गावांत पावलो तेन्न
ताचो भुर्कुटो जंयच्या थंयच शेळेलो. आपणाल्या त्या गावांच
आवतीकाय पळौन ‘ कित्याक हांव हें पळौंक आयलों देवा !
अशें ताणें म्हळें. पैस आसा थंय सुरबूस गजाली आपुण आयक
तालों तेंच बरें आशिल्लें, सपनांतल्या त्या धनान मनाक धादोसकाय

गोगताली तीय, तें सपन उलगून जाग आयिल्ल्यासारकी गत ाल्ल्यान, पोल जाली म्हणपाचें पळौंन ताका खूबच वायट दिसलें. ातमीक लागभागाच्यो गजाली आसूंच; मनाक खोस भोगौपाच्या ांगांकय हळद लागूं साद्यो भोवतीक, म्हळचार कुडीक मुठभर ास चडपाच्यो गजाली पुण नदरेक दिसूंक जाय आशिल्ल्यो ? ोकांच्या हातांत दुडू घोळटा, सगले बरे भग्शेन खावन जेवन ुखी आसात, अशें पुण पळौंक मेळूंक जाय आशिल्लें ? उफाट्टें जें कितें ताणें पळेलें ताका लागून तो सर्वेस्वी निर्शेवन गेलो. उफाट ुखीन ताचें अंतस्कर्ण चुरून गेलें !

भुरगेपणांत पळेल्ल्या आपणाल्या ह्याच गांवाची तरा कशी ाशिल्ली म्हणपाचें चित्र ताच्या दोळचां सामकार उबें रावलें ेन्ना तांचे दोळे दुखांनी भरून आयले. त्या गावांत तेन्ना जे सुखाचे, ास्ततायेचे, धादोसकायेचे दीस लोकांनी अणभवलेले तांची च्त्राय ेगीत आयच्या भुरग्याबाळांक जावंचेली ना म्हणपाचें मनांत ेवन केसवाचो जीव आकुळ पिकुळ जालो. मनीस ज्या परिस्तितीत डटा तिकाच तो बरी मानूंक लागता, सवंयेन दुःखाकय तो ालवसता, ही गजाल खरीच जाल्यारय ज्याणें फुलां वेचल्यात ताका ोणी पुंजावपाची वेळ आयिल्ली दिश्टी पडटकच दुखीन चर्र ाल्या बगर कशें रावतलें ! केसवान बरे दीस पळेल्ले ती बरी रा अणभवलेली म्हणून हें आयचे असले दीस पळौन ताच्या जिवाक उतळताप जावंक लागले !

केसवालो तेन्नाचो तो गाव म्हळचार गांधी म्हात्म्याल्या येव- णेंत अदमासलेल्या ग्रामराज्याक फावसो एक ल्हानसोच तर्जुमो ाशिल्लो. गांव सोपुरलोच. पुण स्वयंसिद्ध, स्वयंपूर्ण अशीच ताची वस्ता आशिल्ली जाय जाय तें सगलेंच थंय निर्माण जातालें वा

विकतें मेळटालें अशी गजाल नाशिल्ली. पुण गरजेचें सगलें मे
इतली गिरेस्तकाय मात त्या गावांत उत्पन्न जाताली. त्या उत्प
गावांच्या धादोसकायेच्या रोंपयेक आंकरी फुटूंक लागिल्ली. प
फुडें रोंपयेचो रूख जावन ती धादोसकाय पसवतली म्हण
आस्त सगल्यांच्या मनांत किल्लुंक लागिल्ली,

उदंतेक दोंगर, अस्तमतेक न्हय रानी उत्तर दक्षिणेक त
शेजरा दोन गांव असो तो गांव वसलेलो. न्हयेक लागून
कांतर आनी ताच्या बांदा भितर त्याय परस व्हड आवाटाचें
खाजन हाणी गांवाचे दोन तिसरे बांटे व्यापलेले. उरिल्ल्या तिस
वांटयांत भाटां आशिल्लीं आनी तांतूतच घरां पातळ्ळेलीं. गा
ग्राम संस्थेची वेवस्ता आशिल्ल्यान गांवकार, कुलकर्णी आनी
म्हळयार शेतकामती कुळवाडी, अशी लोकाची वर्गवारी जात
खाजन सगल्यांचें रास्वळ. गांवकार, कुलकर्णी आनी रयत हां
मजगतीं खाजनाचें भात थारायल्या प्रमाणात वांटून घेताले.
काराचो म्हासूल कुटुंबां कणकणीं वांटून घाल्लो. वेळवार वस
करून सरकारी इस्किराव तो घेवन वतालो. खाजनाक
फसलो आशिल्ल्यो. सरदी म्हळयार पावसा उपरांतची आशिव
तली फसल आनी वायंगणी म्हळयार चैत्रांतली फसल. स
फसलेच्या अर्दान वायंगण्या फसलेची पीक आशिल्ली. वायंगण
तळयांचें उदक लाठीनी कल्ल्यांनी खाजनाक लावचें पडत
आनी हें काम थरिल्ल्या पाळयानी गावकार, रयत करत
तळयांचें उदक खाजनाच्या सगल्या आवाठाक पावपा इतलें ना
ल्ल्यान अरद्या पिकार धादोशी जावन रावचें पट्टालें. तरीय त
पिकोंचें भात कुटुंबांक वर्साक पावन उरता इतलें पिकतालें अ
तें गिरणीकाराक विकून मीठ मसालो आनी साराक जा

ाशिल्ल्यो सगल्यो वस्तू विकत्यो घेवंक मेळटाल्यो. भाटांतलें ाल्लांचें उत्पन्नय खूब येतालें. घरखर्चाक खोबरें, तेल बी पुरवण करून उरिल्ले नाल्ल विकूंक मेळटाले. ताणें न्हेसणापांघरुणाची, अडवतीची भागवण जाताली. एका उतरान सांगचेलें जाल्यार, गावांक कसलीच नुपुरवण नाशिल्ली.

गावांत हातमाग चलताले. कोकेर, खरवतकार, गाडयेकार, दिसवाडेकार मानाय आनी कामेऱ्या, मेस्त, शेट, आलफियाद, पसरकार बी हेर उद्देगी वावराडे गावांत आसताले. आनी कोणाकच बेकार रावचें पडनाशिल्लें.

गावांत कारभाराची आनी वेव्हाराची वेवस्ताय मोठी तोखणाय करीसारकी आशिल्ली. बारा बलुतीं हीं उतरां तुमी आयकल्यां आसतीत आनी ताचो अर्थ ध्यानांत घेतला आसलो जाल्यार ह्या कारभाराची आनी वेव्हाराच्या वेवस्तेची चत्राय तुमकां जातली. गावांत ग्रामदेवता, ग्रामपुरुस आशिल्लो. तांचीं देवळां आशिल्लीं. देव म्हळो म्हणटकच पुजारीभट, गुरव आयलेच. वाजंत्री, इलामतदार, भावीण बी आयले. हांचीं कुटुंबां गावांतच आशिल्लीं. खाजनाच्या भातांत हेर वांटेल्या त्रांगडा हांचो आस्पाव जातालो. देवाच्या अमृतपडीचो आनी नंदादिपाचो खर्च खाजनातल्या दिवाणशेत नावाच्या एका वेगळ्या शेताच्या भातान चलतालो. भटाक भात मेळटालें. ताणें ताचो संसार चलतालो. ह्या भायर गावांतल्या लोकांच्या भटपणाची ताका घराकणकणी प्राप्ती जाताली. तितल्यान भट धादोशी आसतालो. बारा बलुत्यांतले वांटेली म्हळयार मेस्त, म्हालो, मडवळ, म्हार, चांभार बी हांचीं घरां, गावांतच आनी निमाणीं दोन वेगळ्या वाड्यार आशिल्लीं. खाजनाच्या कमाविशीक लागतली आवतां नांगर बी आनी

मूस घांडे बी मेस्तपण मेस्त करतालो. गावांतल्या सगल्यां
म्हैन्या पंधरा दिसांनी करच्यो पडटात त्यो कापण्यो म्ह
करतालो. गांवकारांची आंगावलीं धुवपाचें काम मडवळ क
सगल्यांक दोनय फसलांचेर भात मेळटालें. परबेक तळयो, म्हळ
घराकणकणीं नाल्ल तांदुळ मेळटाले. सगल्यांचो योगक्षेम बेसव
चलतालो. गावांत वैद नाशिल्लो. पुण केरीचो दादा वैद हो सग
अंत्रुजकारांलो म्हाल वैज. थंयच्यान फुकट ओखदां आनी
हाडून लोक बरे जाताले. खऱ्यानशीं म्हळ्यार लोकांक
मुस्तीत पिडाय चुकूनच जातालयो. घरगुती ओखदां करूंक ल
जाणा आसताले. आथच्याबरी जाली थंडी, आयलो जोर, ध
दोतोरागेर अशी तरा तेन्ना नाशिल्ली. धामीची पिडा येत म्ह
हुस्को आसतालो आनी त्यो येवं नये म्हणून जतनाय घेत
धादोसकाय आशिल्ल्यान लोक एकचारान, सन्मथान चलता
झगडीं झुजां उप्रासनाशिल्लीं. आनी चुकून केन्नाय कितेंय घड
जाल्यार रजिदोर गावांतल्या गावांत नीत न्याय करून पाल
तालो. पुलिशेंत, जुविजांत वचपाचे प्रसंग येनाशिल्ले.

गावांत कांय आवाजांची लोकांक इतली सवंय जाल्ली
केन्नाय थराविक वेळार तो तो आवाज कानार पडलो ना जाल्य
चुकलें चुकलेशें जातालें. देवळांतल्या घांटीचो आवाज, मेस्ताल
साळेतलो घणाचो आवाज, शेटील्या तुतयाचो अग्नी रातच
भजनाचो आवाज, भावणीगेर आरतून परतून आयकूंक येताले
वाजंत्रांचे आवाज, लाठीचे आवाज, म्हारवडांतलो शेनायेचो आवा
असल्या तरेकतरांच्या आवाजांनी कवि प्रकृति केसवाच्या मन
एक तरेचें सुंदर वलय निर्माण केल्लें. ताच्या बालमनाचेर सांगू
येनात असले अपरूपतायेचे संस्कार घडिल्ले. गावांत देवाधर्मी

आनी रासवळ जिणेक एके तरेची संस्कृतीक लागणूक, एकमेकां-विशींचें अगत्य, पालव दिवपाची वृत्ती, पेल्याचें सुखदुख तें आपलेंच सुखदुख लेखपाची तत्परता अशा कांय गुणांची वाड जाल्ली.

केसव धा बारा वर्सांचो आसतना तागेल्या त्या गावांतली जीण ताणें पळेल्ली अणभवलेली तीं अशी आशिल्ली. त्या जिणेचे परिणाम वा संस्कार ताच्या मनाचेर कोत्रायल्ल्याबरी वज्रलेप उरिल्ले·

फुडें शिकपाक आनी मागीर वेवसायाक लागून केसवाचो गावांकडेन संबंद सुटलो, तुटलो. ताची जीण गावांभायर आनी उपरान्त गोंयाभायर गेली. आज खूब वर्सांनी ताणें गावांत परतें पावल घाल्लें. आज त्या फाटल्या जिणेचो इल्लोय वास थंय उरूंक ना म्हणपाचें पळौन ताका उपाट दुख जाली.

खाजन हें गावांचें मुखेल भांडवल. ताची दशा कितें पळेतलो ? कांतराक वर्सान वर्स खावटीं पडून खाजनात खारें उदक भरूंक लागिल्ल्यान तें पडंग जातालें. बांधांचेर कचकचीत माड आसताले ते मरून आनी नवी लागवड नाशिल्ल्यान बांद बोडके जाल्ले आनी खळखळ्ळेले. भाटाची उस्तवारी सारकी जावप नाशिल्ल्यान तीं निसू जाल्लीं. गावांत साप्प थोडीं घरां उबीं आशिल्लीं. व्हडलीं व्हडलीं माळयांचीं आनी चौपेटीचीं घरां मोडून भुंयसपाट जाल्लीं. पोटा फाटल्यान लागून भौतेक लोक गांव सांडून पैसावलेले. गावांतले ते तरेकतरांचे आवाज सासणाचे बंद जाल्ले. चुकून आयकूंक येतालो तो देवळांतल्या घांटीचो आवाज. आनी तो एकलो एकसुरोच आयकूंक आयिल्ल्यान गावांची वशाडकाय चडच जाणवताली !

केसव त्या आपणाल्या जल्म भुयेंत चार दीस रावलो. ताच्यान थंय आनीक रावंक नज जालें. ताचें अंतस्कर्ण चेंचिल्ल्याबरी जालें.

भुरगेपणांत पळेल्लो एकय मनीस गावांत ताका दिश्टि पडलोना जायत्या वर्सांफाटीं ताणें कर्नाटकांत भोंवडी केल्ली तेन्ना विजय-नगर, हंपी विरुपाक्ष बी पळेल्ली ती उध्वस्त भूंयच आपुण आज पर्थून पळेतां काय कितें, असो ताका भास जालो. ह्या आपणाल्या गावांबरीच हेर गावांचीय बी गत्त जाल्या आसत जाल्यार... त्या विचारान ताची तकली गिरगिरूंक लागली !

## दुस्मानाची पिडापीड !

इतलीं वर्सां ज्या घरांत आनी गावांत काडलीं तें घर धापून आनी गाव सासणाचो सांडून गोयांभायर वचपाखातीर मनाची तयारी करतना सदूक एकसारकी हिमटी येवंक लागली घटकेंत ताका दिसतालें, कितें जाता तें जाता, रावचें घराच आनी भोगचें कितें भोगचें पडटा तें. अशें जावन जावन वायट जातलें तरी कितें ? खावंक जेवंक न्हेसूंपांगरूंक जाय तशें मेळना जावन वळवळे, दडुडे काडचे पडत. आक्रासचें पडत. चडच जाल्यार पावलाकणकणीं रजिदोराची तडकडावणी आयकुंची पडत. पोस्ता-वेलों एकादुकलो काब येवन भेष्टाभेष्टावन पैशे निखळावपाचो यत्न करीत. आनी पर्थूपर्थून केवे सावनात म्हणपाचें ध्यानांत येतकच कोमांदांतीक न्हय न्हय आशिल्ल्यो चाडयो सांगून सुक्के ओले घणे घालपाक लायत. नाका जाल्ल्या कचाटचांत घालीत कार्तेलार घडये मारावांगडा बोड तासून माथ्यार डांबर थापतीत ह्यापरस आनीक व्हडलेंशें कितें जातलें ! काडचे कशे पडत तशे दीस. ओगीच इतल्या वर्सांचो संसार मोडून, भाटबेस वाऱ्यार घालून, सोयऱ्या धायऱ्यांचो आलासरो सोडून आनी बायलभुरग्यांचो कबिलो घेवन वतलो तरी खंय ? गोयांभायर खंयय वतलो

म्हळचार देस परकी, भास परकी, रीतरवीस वेगळी आनी वळखनादेख जाल्ल्यान कोणाचो पालव लेगीत मेळपाची आस्त ना. बरें. गेलो आनी दिलो डेरो खंयच्याय एका गावांत; जाल्यार थंय करतलो कितें? नित्याचो निवेद्य चलपाक तांदुळगोटो आनी लाकुड फाटो जाय? हाडतलो कसो आनी कितें दिवन? आवाशिवा करून एकठाय केल्ले पैशे, भुर्ं करून उडटल्या शेवण्यांबरी दोन दिसांभितर सोपून वतले. मागीर करतलो कितें? परकी जाग्यार कोण कोणाक पातयेतात? हांगा इतलीं वर्सां आयल्ले तशे बरे वायट दीस सारले कशेय. भायल्या गावांत आनी लोकांत जियेतलो कसो हातांत दमडी पांदुडू नासतना?

तरेतरेच्या येवजणुकेन आनी चिंता हुसक्यान सदूची तकली खूबच तापली आनी मागीर ती कणकणूंक लागली. करचें कितें म्हणपाचेंच ताका सुचना जालें. घटकेंत मनांत येथ, फुडें कितें जायत तें जायत, उपाशीं रावचें पडलें आनी कोणाचो आदार मेळ्ळो ना जाल्यारय पुरवलें; पुण ह्या अपदेंत आनी कचकच्यांत सुकून सुकून मरपापरस भायर खंयय व्हरून जीव घाल्लो बरो. ही कितें जीण म्हणचेली! आसा घरची शेतोड आनी दोन भाटा कुडके म्हणून तांदळा नाल्लाक कोणाकडेन तोंड फापुडचें पडना हें खरें. कशेय दोन फावट गोटे खावन मठयेच्या सावळेंत दीस धुकलूंक मेळटात. पुण कसलें मेल्लें अन्न तें आनी कसली न्हीद ती! कचकच्यान आनी दचकण्यानी जीव अर्द मेलो जावंक पावलो! आनी इतल्यानच सोंपलां? भुरग्यांक धड शिकौंक मेळना! वाचूंक एक भायलो ज्योर्नाल मेळना! भायर संसारांत कितें चल्लां ताचो वास लेगीत लागपाक मार्ग ना! पाडया बायंत पडिल्ल्या मनशाबरी तरा! भायर सरूंक मेळना; भितर रावंक

नज ! ह्यापरस घरादाराक उदक सोडून आनी जिवार उदार जावन गोयांभायर तोंड घेवन गेल्यार आनीक व्हडलेंशें किते वायट जावंचेलें आसा ?

सदू हो शिरू शणै पिरवोळकाराली चलो. तागेलो आजो आनी बापुय इस्किरांव कोमुनीदाद, म्हळ्यार ग्रामसंस्थेचे कुलकर्णी जाल्ले. आपुण कुलकर्णी आसतनाच सदून कोंकुसांक बसून इस्क्रिरांव जावंचें आनी परंपरेन आयिल्लें घराण्याचें कुळकर्णपण आपल्या फाटल्यान चलचें अशें शिरूबाबाक दिसतालें. त्या तजविजेन ताणें पुताक कुर्साचीं तीन वर्सां काडूंक लायिल्लीं. पुण सदून कोंकुर्साक बसून इस्क्रिरांव जावपाचें मान्य केलें ना. फिरंगी भास शिकता आसतनाच ताणें राष्ट्रीक विचारांच्या नेमाळ्यांचें आनी पुस्तकांचें वाचप केल्लें. ताका लागून आपणाल्या बंदेपणाची खंत ताका भौच जाताली. भारताच्या स्वतंत्रतायेखातीर तेन्ना भारतांत १९२० वर्साची असहकारितेची आनी कायदेभंगाची चळवळ निकतीच जावन सोंपिल्ली. तो लिसेवांतल्यान भायर सरलो तेन्ना १९३० वर्सा उप्रासलेलो सत्याग्रह घोंसार आशिल्लो अशा त्या मुस्तींत गोयांत कितें चलिल्लें ? गोयांक सासणाच्या दुर्दशेंत घाल्ल्या व्हाश्कु दा गामाचो सेंतेनार, आफोंस आल्बुकेर्काचें फेस्त, रेकाँकीश्त दा गोवाचो आनिव्हेसीर आनी ताच्या भरीक अठ्ठावीस मायाचें आनी एक नवें सालाझाराचें फेस्त. मेळून चाटी पावलाक गोंयकाराच्या बंदेपणाचो उगडास करून दिवपी फेस्तां चलतालीं. हीं फेस्तां म्हळ्यार आपणाल्यो खासा राष्ट्रीक परबो मानपाची शिबरेपणां आनी निबरमुडेपणां गोंयकार हिंदु आनी किरिस्तांव भाव करतात हें पळौन सदूसारक्या कांय राष्ट्रीक विचारांच्या भुरग्यांक मरणप्राय दुःख जातालें.

अशा अवस्तेंत फिरंग्यांल्या नश्टचा पाडचा राजवटकेच्या माक-
ाचो आपुणय एक खिळो जावपाचें सदूक कशें रुचत ? ताणें
र्सेर आन जातकच फुडें कितान, सेतिमान बी करून फिरंग्यांल्या
रेकतरांच्या कोंकुसांचो एक भिकारी कांदीदात म्हळचार
मेदवार जावपाचें न्हयकारलें. बापायच्या मनाविरुद्ध तो घरा
रतलो. तेर्सेर आनाक आसतनाच ताचें लग्न जाल्लें. ताच्याआदीं
ागेल्या तीनय भैणींची लग्नां जावन त्यो आपणाल्या घोवाल्या
रा गेल्ल्यो. सदू शिरूबाबालो एकलो एकसुरो चलो. ताच्या
ाटल्यान आनीक भुरगेंच जालें नाशिल्ल्यान आवय बापायचो
ाचेर सगलो जीव आशिल्लो. शिरूबाबाक तागेली येवजण, मतां
रा आनी तजविजो पळौन आयकून एके वटेन अजाप जातालें
ानी दुसरे वटेन भयय दिसतालो ! बाबडचाचें सगलें आविष्य
ादर्मिनिस्त्रादोराक ' सीं सियोर ', ' क्रियाद द व्होशेंलेंस '
रपांत, फिरंग्यांल्या तोखणायेंत सोंपत आयिल्लें. किरिस्तांवां
ांगडा कोंपितिसांव म्हळचार स्पर्धा करून आपुणय येंप्रेग मेळौपाक
मराक रेवडावप हातूंतच हिंदूंचो राजकी मोक्ष आसा, अशें
ानपी, म्हणपी आनी शिकौपी हिंदू फुडारी शाण्यांचें तत्त्व
ान्यान शिरूबाबाच्या रगताच्या थेंव्या कणकणीं जिरिल्लें आनी
रिल्लें ! त्या शिरूबाबाक पुताचे विचार, मतां आयकून अजाप,
ानी भय दिसचें नाशिल्लें जाल्यार आनीक कितें जातलें
ाशिल्लें ! ?

पुण शिरूबाबान पुताक कांयच आडमेळें हाडीनासतना ताका
ाय तशें वावुरपाक दिवपाचें थारायलें. देवादयेन येंप्रेग बिप्रेग
रीनासतना सुशेगाद दीस धुकलूंक येतात इतली येणावळ येसारकें
ाटबेंस पूर्वजानी जोडून दवरलेलें आनी शिरूबाबान आपणाल्या

वीस रुपया म्हैनाळच्या पागान आनीक चारदोन कुळागारां तक्षिमों घेवन तांतूत भर घाल्ली. ताका लागून पूत कांय करीनासतना ज्योर्नाल आनी पुस्तकां वाचीत घरा राव जाल्यारय हुस्को चिंता करीसारकें नाशिल्लें.

सदूक बरौपाची व्हडली आवड ते देसभाशेप्रमाणें फिर भाशेंतल्यानय व्हडले व्हडले आर्तींग म्हळचार लेख बरैतालो आ ते सेंसुराच्या चेपणाखाल चिड्डुल्ल्या माडुल्ल्या नेमाळचांतल्य छापून येवंक पावनाशिल्ले. जायते दीस अशें चल्लें आनी माग सदून निर्शेवन बरौपाचेंच सोडून दिलें. कितें मेळटा तें वाचपाब आनीक कांय एक उद्देग ताका उल्लोना. फुडें फुडें वाचूंकय क मेळना जावन तो सामको बेकार थवय जावन पडलो. खंत वा ताका सुकी पिडा लागिल्ल्याबरी जाली.

वर्सां केन्ना कोणाक रावल्यांत ? तीं एका फाटल्ल्यान ए वचतच आशिल्लीं. कांय वर्सांनी शिरूबाब आनी फाटल्य तागेली घरकान्न जोरजाळ कांय जायनासतना म्हातारपणाच साद्याच मरणान भायर पडलीं. तितल्या वर्सांत सदू सदाब जावन तागेर चार चलियो आनी दोन चले जाल्ले. भुरगीं वा आशिल्लीं.

सदू लिसेव सोडून आयल्यार आतां तेवीस चोवीस वर्सां जाल्लं गोयांत शेचाळीस वर्सा सत्याग्रहाचें पयलें ल्हार उखल्लें ताका आतां स सात वर्सां जाल्लीं. गोयांत आतां खूबच जागृती जाल्ल फिरंग्याल्या हिस्पाभायर वाडिल्ल्या दंडरव्यास्तीक लागून तांगेल्य राजवटीक, सरकारलांबते येंप्रेगाद आनी व्हडले गिरेस्त लो कुशीक काडल्यार, बाकी सगले लोक पुराय विटिल्ले. केन्ना उंबाळून वतात अशें लोकांक जाल्लें. पुण दोणांत चेपणा घाल्ल्य

ांबल्याबरी तांचीं मना चिमिल्लीं. तांकां इल्लेंय त्राण उरूंक ाशिल्लें. भारत सरकारान मनार घेतल्याबगर गोंयची सुटकावाट ावंचेली ना, अशी तांची धारणा जाल्ली. नवे फुडारी दिल्ली- डेन आशेन दोळे लावन बशिल्ले. ज्यांकां धीर ना ते गोंयकार ोंय सोडून भायर वचूंक लागिल्ले. भारत सरकार आनी फिरंगी रकार हांच्या मजगतीं तीड येवन दोगांयले राजदूत परतले. ानी गोंयात कितेंय तरी भयांकृत जावपाचें आसा अशा सपनात ोकांची अवस्ता जळपेल्ल्याबरी हुरहुरलेल्या बरी जाल्ली.

आरंबाक हांवें सदूची जी खबर सांगली. ती ह्याच हुस्क्यादच- णेंतल्या दिसांची

दोनच दिसानी गोंयभर एकच गजाल पातळ्ळी आनी लोक भेंबेल्ल्याबरी जाले. आतां थोडयाच दिसांभितर गोयांतली रेलवे गाडी बंद जातली. गोंयकारांक मेकळेपणान गोंयाभायर वचूंक मेळचेलें ना. पर्मिट घेवन वचचें पडटलें. भारत सरकार अर्थिक बंधना घालतलो. वेपार बंद जातलो. गोयांत दुडू येवंक आनी भायर धाडूंक आडमेळीं आसतलीं. हें जातलें आनी तें जातलें.

ही गजाल आयकनाफुडें गोंय सांडून वचपाच्या येवजणेंत आशिल्ल्या मनशांचो आवरो उडलो. आतां फुडें कितें करचें म्हणपाच्या चिंतेंत ते पडले. सदून पळेलें, आतां हमलेटाबरी, ' टु बी ऑर नॉट टु बी ' करीत बसपाक उसरपत उल्ली ना. गोंय सोडपाचें आसल्यार जाता तितली ताकतीक करून तयारेक लागूंक जाय

सदूल्या भुरग्यांकय भायर वचपाचे हुटहुटे लागिल्ले. तांकां कळ्ळेलें, गोयांत आमकां उदरगत ना. जायतें जाणालीं शिटूक भुरगीं भायर वचून शिकून सवरून बऱ्याक पावल्यांत म्हणपाचें

ताणीं पळेल्लें. आनीक चड दीस ह्या कुचमणीत रावल्यार अ
णाल्या मेंदवाक बयणीक लागतली म्हणपाचो तांकां द्रु
उरूंक नाशिल्लो.

सदूच्या बायलेक मात गोंयाभायर वचप म्हळ्यार पिश
दिसतालें. कितलीय जाल्यार बायल मनीस. शिकूंक सब
नाशिल्ल्यान गोंयकारांली मानसिक कुचमण, आत्मीक असं
तिणें केन्ना अणभवलो नासल्यार अजाप ना. उफाट्टें, घराचो आ
सुटल्यार फुडें कितें कितें भोगचेलो वेळ येतलो म्हणपाची वेव्हा
चत्राय हेरा कोणायपरस तिका चड आशिल्ली. हाका लागून ज
तितलें अळंग रावन गोयांतच बरे वायट येतात तशे दीस धुक
अशें तिका दिसतालें. पुण भुरगीं आकुळ पिकुळ जातात तें आनी त
परस घोवाची ती सत्यभास काडिल्ल्याबरी जाल्ली तरा पर
तिचीय आतां खात्री जाल्ली कीं गोंयाभायर पावल्याबगर खा
गोटो कोणाच्याच आंगाक लागचेलो ना !

पणज वचून सदून पर्मिटाच्यो खुमो ध्यानांत घेतल्यो. पर्मि
फोटो लावचो पडटा म्हणपाचें कळ्ळें. फोटो काडून घेतले. प
टांची सगली करचेली ती वेवस्ता केली. पुण निस्तरपाची पाल
आशिल्लीं. येणावळीन संसाराचो खर्च भागना अशें जावन जाय
वेळा लेत्रांनी रीण काडून हकटक्याक गांठ घालची पडटाली
रीण बरेंच जाल्लें. भायर वतलो म्हणटकच त्या रिणाची फार
केल्याबगर सुटका नाशिल्ली. ह्याभायर भाटाचे कुडके विकून
मारतकच उरिल्ल्या कुळगारांची बी उस्तवारी कोणाय वा
दाराकडेन कायद्याच्या पालवान म्हळ्यार आरंदामेंत बी क
सोंपौपाची आशिल्ली. आनी चडांत चड म्हळ्यार खंयय व
राविल्ल्या सुवातेर कांय कालाच्या पुरुमेंताक पावतीत इतले

रुपया वांगडा व्हरूंक जाय आशिल्ले. म्हणून सदून लेव्रान दूडवांचो वेव्हार करपी आपणाल्या एका वारीसदाराकच भाटाचे कुडके, कुळागाराची एक तक्षीम आनी पयसुले एक ल्हानशें शेत विकून सगल्या रिणाची फारकाय केली. उरिल्ल्यो कुळागाराच्यो तक्षिमो आनी घरभाटलें धा वर्साचो आरेंदामेंत करून ताच्याच सुवादीन केलें आनी फुडाराखातीर एक हजार रुपयांची गांठ उबी केली.

आतां सदूली सगली तयारी जाल्ली. मागीर तागेले सोयरे एक दीस तागेर जमले. खंय वचचें म्हणपाचो प्रस्न उबो रावतकच सगल्यांनी ताचेर भासाभास केली. सदूच्या मत्तान मुंबै वचप होच बेस बरो मार्ग. मात तें खर्चाक खूबच म्हारग जातलें म्हणपाचें ताका रिसतालें. मुंबै रावपाक सुवात मेळपाची मारामार म्हणपाचें ज्यांकां आयकून खबर आशिल्लें, त्या सोयऱ्यांनी ताका मुंबैचो बेत फाटीं घेवंक लायलो. कारवारा, सावंतवाडीक वचपाचें कोणे सुचैलें. पुण तें सदूक आनी तागेल्या बायल भुरग्यांक कोणाकच रुचलें ना. उल्लें पुणें आनी बेळगाव. दोनय कडेन तागेले वळखीचे गोंयकार आनी सोदल्यार पयसुले सोयरेय मेळपाची आस्त आशिल्ली. पुण पुण्यापरस बेळगांवच बरें अशें अखेरेक एकमत्तान थरलें आनी थंय वचचेलें निश्चित जालें. चार पांच फावटी घालून पर्मिटाय बी हातांत पडलीं.

आतां आठ धा दिसांभितर भायर सरून वचूंक जाय आशिल्लें. नाजाल्यार पर्मिटां निरुपयोगी जावपाचो भंय आशिल्लो त्याप्रमाणें दिवाळी करून भावद्वितियेच्या म्हुर्तार म्हळचार, पांचच दिसानी वचपाचें थारलें.

दिवाळी जाली. लक्ष्मीपुजना दिसा सकाळींच बायलभुरग्यांसंत नागेशीं वचून नागेशाक आनी म्हालक्षुमीक पायां पडून येवपा

खातीर सदून मोटार सांगली. मोटार येता म्हणसर इल्लो उशीर जालो. मुस्तायकी घालून सगलीं मोटारीची वाट पळेत आशिल्लीं इतले म्हणसर म्हाडुोळच्या पोस्तावेलो एक सोलदाद आयलो आनी आत्तांच्या आत्तां पोस्तार काबान आफैला म्हणून सांगूंक लागलो. ही मोटार नागेशीं वचून येवपाक हाडल्या. थंय वचून देवाक पाया पडून रोखडीं परततलीं दनपरां येवन मेळटां म्हणून काबाक सांग अशें सदून त्या सोलदादाक काकुळटेक येवन सांगलें. पुण तो कसोच आयकलो ना. अखेरेक त्याच मोटारींत बसून, सट् करून परतो येवपाचे तजविजेन, सदू पोस्तार गेलो.

एक वर जालें, दोन वरां जालीं, सदू घरा पात्रना. बायलेचेर आकान्त आयलो. इतलो वेळ कित्याक मोडलो, वच पुता आनी पळे कितें जालां तें, म्हणून तिणें व्हडल्या पुताक म्हाडुोळा धाडलो. वराभरयान तो घरा आयलो, आनी सदूक पणजे व्हेला म्हणपाचें ताणें आवैक सांगलें. तें आयकना फुडें झीट येवन तिची चिनारी गेली !

ह्या खबरीक आतां दोन वर्सां जालीं. सदू अजूनय क्वार्तेला वेल्या कालाबुशीत अंदून पडला थंयच आसा. ताचो गुन्याव कसलो म्हणपाचें कोणच सांगूंक नकळ. ताचेर प्रोसेस करून ताका त्रिबुनालार व्हरपाचीय फिरंगी जाळवणदार खबर करिनात. आनी हें तुमी कितें चलैलां म्हणून तांकां धीर करून विचार तलोय कोण ना !

# म्हगेलें उमाणें !

मनीस जर चडांत चड कोणाक भियेता आसत जाल्यार मरणाक, ही खबर हावें कोणाक नव्यान सांगचेली गरज ना. मनशाक जायत्या

तरांच्यो भिरांती आसतात. कोणाक पच्ची जायत, बेअब्रू जायत म्हणपाची भिरांत आसता, तर हेर कोणाक आपणालो मुदगो आटको कोणय चोरून व्हरत म्हणपाची भिरांत दिसता. कोण आपुण कायद्याच्या कचाटयांत सांपडन आनी आपणाक बंदखणीची ख्यास्त भोगत म्हणून भियेता, जाल्यार हेर कोण आपणाली ग्रह दशा फिरत आनी गिरे आपल्या फाटीं लागत म्हणून कचकचे काडता. मेळून कोणाक हें ना जाल्यार तें भय आसता. पुण कोणा-कच चुकना वा जण एकल्याक रातदीस हुस्क्यांत दवरता तें भय म्हळयार मरणाचें ! हें भय जल्माक आयिल्ल्या कोणाकच चुकलेंशें ना. एक दीस तो वेळों आफवणो ताका येताच. तो केन्ना येवंचो हें थारावंचेलें कोणाच्याच हातांत नासलें तरी तो जाता तितलो उसरां येवंचो अशेंच जण एकल्याक दिसता. मात अवचित तो खंयच्या खिणांत येत म्हणपाचो अदमासय कोणाच्यान करूंक नज!

मनशाक मरण आयिल्लें नाका. आपुण अमर जावंचो हो तागेलो व्हडांतलो व्हड हावेस. ही कूड म्हळयार शरीर सासणाचें घेवन आपुण जिवो रावंक पावंचो ना हें ताका बरे भशेन खबर आशिल्ल्यान आपणालें नांव पुण अमर जावन उरचें अशी ताची इत्सा आसता. ही इत्सा फळाक येवंची म्हणून तो तरेक तरा करता. तातूंतल्यान अखेरेक ताच्या हाताक कितें लागत हें जण एकल्याच्या शक्ती, बुद्द, संचीत आनी नियतीन थारायल्लें तागेलें भवितव्य हाचेर आदारून उरता. पुण ही गजाल आसूं. म्हाका आज हे विशीं तुमकां सांगचेलें आसा तें वेगळेंच.

मनशाक आपणालें मरण दुखूंक पावना. कित्याक काय म्हळयार मेल्या उपरान्त सुखदुःख कळपाक तो जाग्यार उरचना. म्हणूनच जावये, आपणाल्या मायेमोगाच्या मनशांच्या मरणाचें ताका खूब

दुःख भोगता. हें दुःख चुकचें म्हणून तो हद्द करता. आपणाल मायेचो मनीस बरो ना जालो म्हणटकच तो अस्वस्त जाता. तं बरो जावंचो म्हणून तागेलीं मनशां ओखदां विसंदां, नवस आंगवण घाडी भगत कितें येवजता आनी कोण कितें सांगता तें तें करतात पुण इतलें करूनय कांय उपेग जायना, वायटकाराची अपदा मा उफाट्टी वाडटा, अशें ज्या खिणाक तांकां दिसून येता, आनी आत मरण चुकना अशी खात्री जाता, तेन्ना मात त्या वायटकाराचं अपदा वाडूं नये, ताची सुटका जाता तितल्या बेगीं जावंची, ता चडचड हाल उपाद्रे आनी विपत्त पळौंची पडूं नये म्हणून तं मायेमोगाचीं मनशां देवाक सांगणें करूंक लागतात, 'देवा, आत बेगीं सोडय हाका आनी आमकां. पळौंक नज हें आमच्यानी. पुण त्या वायटकाराचो भोग सोंपसर ताका आनी तागेल्या त्य मनशांक ती अपदा भोगची आनी पळौंची कशीच चुकना !

हो जालो सर्वसामान्य नेम. पुण ह्या नेमाक आडवाद म्हणप सारकी एक सोपती जीण एक फांवट हावें पळेळी. ती पळेतकच म्हाका प्रस्न पडलो, मनशांची माया म्हणटात ती अखेरेक आसता तरी कशी ? ती दोळस आसता काय आंदळी ? आपल्या मायेच्या मनशाची वेथा पळौनय हीं मनशां अनमनात कशीं ? प्रेताबरी पडिल्ल्या ह्या मनशाक तागेली हीं मनशां आपणाल्या पिशे माये खातीर ग्लुकोजाचीं, सोराचीं, कोरामिनाचो इंजेसांवा दिसांचे दीस करीत रावल्यांत तीं ताची वेथा उणी करतात काय वाडैतात ? वेथा भोगीत ताणें प्राण वचसर हालउपाद्रे सोशीतच रावंचें अशें हांकां दिसता कशें ? अखेरेक तो पालौंक पाविल्ली ताच्या जिवाची वात सारूसारून आनी तिचेर इंजेसावांच्या तेलाचे थेंब्रे घालीत रावन दिवो चरचरावप आनी काजुल्याची घाण

वातावरणांत पातळावप हें शाणेपण काय पिशेपण ? हें पुण्य काय पाप ? ही माया काय अमानुषण ! '

हांव पैल्याच फावट त्या म्हगेल्या पयसुल्या नात्याच्या सोयऱ्या गेर ताच्या समाचाराक गेलों तेन्ना कळ्ळें तो आर जावन हातुण्णार पडून कांय वर्सां जाल्यांत ! हांव ताच्या म्हऱ्यांत गेलों तेन्ना ताची ती अवस्ता म्हज्यान पळंव नज जाली. ताचे फकत दोळेच जिवे आशिल्ले. हाडां आनी कात, एकठाय जावन ताची संवेदना शक्ती पुराय सोंपिल्ली. मूळ तो आवाटान ल्हानच. मोटवो आनी बारीक. पुण आतां हातुण्णार पांघरुणापोंदा मनशाची कुड आसा अशें मानीसारकें कांयच दिसनाशिल्लें. ताणें म्हाका पळेलो. म्हाका तो वळखलो काय ना देवाक खबर. ताची हालचाल सोंपिल्ली. उलवणें बंद जाल्लें. तो जिवो आसा हें तागेले दोळयांच्यो पातयो धापूंक नाशिल्ल्यो, दोळयांत इल्लीशी लिकलिकसाण आशिल्ल्या बरी दिसताली म्हणून मानचेलें.

म्हजें मन निर्शेलें. खूब वायट दिसलें. तो मनीस कसोय आसू, ताणें जिणेंत बरें वायट कितेंय केलां आसू, अशी अपदा ताका भोगची पडूं नये आशिल्ली. कोणाकच भोगची पडूं नये. अशी लोळणी नशिबांत आसूं नये; त्यापरस काळीज थांबून सट्ट करून मनीस मरता तें जायतें बरें. ताका अशी अपदा भोगना. मायमोगाच्या मनशांक ताची वेथा पळोंवची पडना.

घरांतल्या मनशांनी सांगलें, ' तीन वर्सां जालीं तो अशे तरेन हातुण्णार आसा. खायना, जेवीना, उलैना, आंग हालना. फकत तुकू तुकू करून पळेता. निवळ ओखदांचेर जिवो उरला. इंजेसावां सारकीं चालू आसात. पैसो उदकाबरी खर्चितांव. बायलेचें कुकुम घट्ट म्हणून जिवो उरला ! '

म्हाका अजाप जालें. ह्या असल्या जिवो उरपांत त्या वाय
काराक आसूंच, घरांतल्या मनशांक कसलें सुख, कसलें समादा
कसलें यस, कसलें स्रथ ? मरण कोणाच्याच हातांत ना अशें म्ह
जाल्यारय अशे तरेन ताची जीण धुकलीत फुडें व्हरपाचो
चलिल्लो यत्न मनीसपणाचो, काय अमानुषपणाचो ? ताच
कुडींत घुसमटत उरला तो जीव निसर्गाच्या धर्मान, काय ओख
तोपूतोपून ताच्या आटत वतल्या रगताक हुनसाण हाडपाचो ज
नित्य उद्वेग चल्ला ताका लागून ? कांय कळना जावन म्ह
जीव घुसमटूंक लागलो

म्हाका उगडास जालो. महात्मा गांधीच्या आस्रमांत ए
फावट एका गायेचें पाडूक बरें ना जालें. जायते उपाय केले
ओखद विसंद करून जालें. पाडूक बरें जावंचे बदला तें फडफडूं
लागलें. ताची वेथा पळौंक नज जाली. पाडूक जितें उरपाच
आस्त सोंपली. म्हात्माजी अहिंसावादी पुण ताणीं खंय सांगले
' अशे तरेन तें तडफडत जिवें उरचेपरस ताची वेथा सोंपैल्ल
बरी. ताका तुमी गुळी घालात. वेथेंतल्यान ताची सुटका कर
होच अहिंसेचो खरो मार्ग. '

म्हात्माजीनी ह्या वायटकाराक पळेल्लो जाल्यारय ते तागेल्य
घरकान्नीक आनी हेर मनशांक कितें सांगतले आशिल्ले काय ?
म्हाका दिसता, तांकां शिटकावणी दिल्याबगर ते रावते ना. तांक
ते म्हणटले आशिल्ले,

' हो मनीस आतां देवाच्या सुवादीन जाला. हीं ओखदां ताच्य
कुडींत घालून तुमी ताका त्रास दितात. ताची वेथा वाडैतात. ह
उपचार आतां बंद करात. देवाच्या मनांत कितें आसा तशें घडटलें
तुमची मद्यस्थी आतां पुरो. '

हांव तांचो निरोप घेवन घरा आयलों. पुण म्हज्या दोळ्यां सामकार तो वायटकार तसोच उल्लो. येवजणेन त्या रातीं म्हाका न्हीद आयली ना. दुसऱ्या दिसा हांव वळखीच्या डॉक्टरासरीं गेलों आनी ताका म्हजी आवतीकाय सांगली. सगली खबर आयकून घेवण ताणें म्हळें,

‘ ह्या संसारांत मनशां तरेतरेच्या समाजीक आनी लोकीक बंदनानी बांदलेलीं आसात म्हणपाचें तुमी जाणात मू ? वेगवेगळ्या परिस्तितींत करपासारकीं जण एकल्याचीं वेगवेगळीं कर्तव्यां उरतात. हांव एक डॉक्टर. एक वेवसाय करपी मनीस ह्या नात्यान म्हजींय अशीं कांय कर्तव्यां उरतात. कोणय बरो ना जावन म्हाका आफौवन व्हेलो म्हणटकच म्हजें कर्तव्य ताका ओखद दिवन बरो करप. ताचें भवितव्य म्हज्या हातांत ना. पुण ताका अखेरमेरेन वांचौपाचो यत्न करप म्हज्या हातांत आसता. हो यत्न करपांत हावें इल्लीय आळसाय केली वा अविस्वास दाखैलो जाल्यार म्हज्या कर्तव्याक हांव चुकलों अशें थरतलें. तो कसोच वांचचेलोना, ताच्यो साप्प थोडयो घटका उरल्यात, अशी पसून खात्री जाल्ली आसली जाल्यारय, आतां ओखद दिवन कितें जावंचेलें आसा, ताचें आयुष्य सोंपलांच, अशें म्हणून हावें फाटीं सरूंक जायना. कितें ? पटलें काय ना तुमकां, हांव सांगतां तें ?’

‘ तुमी म्हणटात तें एका भशेन लटिक न्हय. पुण ह्या आर जाल्ल्या वायटकाराक तो डॉक्टर इतलीं वर्सां एकसारकीं ओखदां दिवन आनी इंजेसावां करून ताचें मरण फुडें धुकलता आनी ताची वेथा वाडंता हें तुमकां मनीसपणाभायलेंशें दिसना ? तुमचेकडेन ही केस आयिल्ली जाल्यार तुमीय हेंच करतले आशिल्ले ?’ हांवें म्हळें.

'सांगूंक जाय? त्याभायर आनीक मार्गच ना. तागेल
शरीराक ते सोर, ग्लुकोज आनी कोरामीन पचवपाची तांक आ
मेरेन हें अशेंच चलतलें. ज्या दिसा ही तांक सोंपनली त्या दि
तीं ओखदां आबसोर्ब जावंचे बदला परततलीं आनी त्या खिण
डॉक्टर तांकां सांगतलो, आतां आमचे उपाय सोंपले. ताच
तोंडांत तीर्थ, तुळशीपत्र बी तुमकां कितें घालचेंशें दिसता
घालात. मनशाच्या हातांतली ताची जीण सोंपली.' डॉक्टर
इल्लोय वेळ लायनासतना म्हाका जाप केली.

'पुण मरतल्याक अशे तरेन वांचवप हें अनैसर्गीक जालें ना
तीं ओखदां तोपपाचें बंद जाल्लें जाल्यार तो अपदेंत पडिल
बाबडो मनीस कितल्याशाच वर्साफाटीं सुट्टलो आशिल्लो. ह
तसो उपयुक्ततावादी, भोवतीकवादी न्हय. अध्यात्मिक नदरे
हांव तुमकां विचारतां; इतलीं वर्सा त्या वायटकाराफाटल्य
तागेल्य घरकान्नीन चलैला तो ओखदांचो विद्वाट न्हय? आदी
कर्पून बावून सुकील्ल्या एका रोंप्याक आंकरी हाडपाचो हो व
पिशेपणाचो न्हय?' रावंक नज जावन हावें विचारलें.

'न्हय. तुमी समजतात तशी ही जतनाय अनैसर्गिक न्ह
उफाट्टें तुमी म्हणटात तशें ओखदां दिवपाचें बंद केल्लें जाल्या
मात त्या जिवाक उपाशीं दवरून म्हळ्यार वळवळावन माल्ल
असो आळ येवं येतालो. निसर्ग निसर्ग म्हणटात तो तरी कितें
निवळ हवा आनी उदक हाचेर तुमी जियेनात. अन्न घेतात.
अन्न घेवप नैसर्गिक न्हय? वायटकारालें अन्न म्हळ्यार ताव
दितात तें ओखद, तोनिक. पचता म्हणसर वायटकाराक ओख
दिवप ही तागेल्या मनशांची आनी तें ओखद दिवपी डॉक्टराच

जापसालदारकी ती निसर्गीक धरूनच आसा. हांवें जें कर्तव्य म्हळें तें हेंच.' ताणें नेटान जाप केली.

इतले म्हणसर ताका आफौंक कोणसो आयलो आनी तो आणपाली बॅग त्या मनशाकडेन दिवन ताच्या वांगडां चलूंक लागलो. 'रागार जावं नाकात. तुमचेकडेन उलौंक आतां म्हाका फुर्सद ना. तुमी येवजून पळेयात म्हणटकच म्हजें म्हणणें तुमकां पटूलें.' वतां वतां ताणें म्हळें आनी हांव घरा परतलों.

त्यानंतर दोन दिसानी तो मनीस सुटिल्ल्याची खबर आयली. म्हाका फाटल्या प्रसंगाचो उगडास जालो. म्हगेलें उमाणें अखेर सुटलें नाशिल्लेंच. कितें चूक आनी कितें समा म्हणपाचो म्हजो बौद्दीक घुसपागोंदळ तसोच उल्लो. अखेरेक सुटलो बाबडो अपदेंतलो, म्हज्या मनांत आयलें. कितली विपष्टा भोगली बाबड्यान ! पुण कोणाकय अशी ती कित्याक भोगची पडची!?

# चुकिल्लें पावल !

मनीस जेन्ना कसलेंय एक कृत्य करूंक फुडें सरता तेन्ना ताच्या बऱ्यावायट परिणामाचो बारीकसाणीन विचार करूनच मागीर तें कृत्य करपाचो ताणें निर्णय घेतिल्लो आसता अशें घडना. जायते फावट ताणें त्या संबंदांत विचारच केल्लो नासता, इतलेंच न्हय, तर तसो विचार करचेली गरज आसा, अशेंय चुकून केन्ना ताच्या मनांत आयिल्लें नासता. ताका हुटहुटे लागिल्ले आसतात ते, केन्ना एक फावट तें मनांत आयिल्लें आनी त्या वेळार ताका अपरिहार्य कशें दिशिल्लें तें कर्तव्य करून मेकळो जातलों म्हणपाचें. तें घडून वचसर ताका सुख लागना, न्हीद पडना, दुसरें कितेंच येवजना.

पिशें लागिल्ल्याबरी घुवन घुवन ताचें चित्त त्या विशयाकडे वे
आनी एकदाचे तें घडून गेलें म्हणटकच मागीर ताका सू जा
ताचें चित्त थाऱ्यार येता. पुण सदाच त्या करणेन तो खोशी जा
पावताच अशें घडना. केन्ना केन्ना फाटल्यान मागीर आपलें पा
चुकलें असो ताका अणभव येता. आपुण हें कितें करून बस
असो ताका पश्चाताप जावन तो खेदीश्ट जाता. जणएकल्य
जिणेंत हो असो अणभव आयल्याबगर रावना. को. हा. सोसायट
रावंक आयल्या उपरांत देवदत्ताची गत्त अशीच जाली.

बिराडाक जागो मेळना मेळना जावन देवदत्त बेजार
अखेरेक एका पत्र्याच्या चाळींत जागो मेळ्ळो. तो मेळौपा
पागडी म्हण, डिपोझिट म्हण, चारपांचशीं रुपया चाळीच
धनयाक दिवंचे पडले. जागो केदो काय म्हळ्यार धावाय बारा
एक कूड आनी मुखार एक ल्हानशी पडवी. तातूंतल्या तातूंत सु
इतलेंच, नळ, विजेची बत्ती कुडींत आशिल्लीं. इतल्या ल्ह
सुवातेंत स मनशांच्या कुटुंबान सामानासैत रावप म्हळच
केदी कुचमण हाची कल्पना वर्णना बगरच तुमकां करूंक येत
चाळींत बिराडां धा. हेर बिराडकार आनी देवदत्त हांच्या मजग
संस्कृताय आनी रीतरवीस हांच्या फरकाचो व्हडलोच दर्या प
ळ्ळेलो. अकलेक येवन आपणालें बिराड ताका त्या तस
सुवातेर हाडचें पडिल्लें.

असल्या ह्या सुवातेर देवदत्ताक स वर्सां काडचीं पडलीं. पड
त्या अवस्तेंन मनीस ना सुटकेंत दीस धुकलता. पुण ताच्या तक
घोळटा तें केन्ना एकदा त्या अपदेंतल्यान भायर सरून फावसार
दुसऱ्या बऱ्या सुवातेर वचूंक मेळटलें म्हणपाचें. त्याखातीर

ाडपडत रावता आनी आयिल्ल्या पैल्याच संदीचो लाव घेवन ातूंतल्यान मेकळो जाता.

हाउसिंग सोसायटींत आपणाक वांगडी जावंक मेळत आनी ावसारक्या सोबीत सुवातेर रावंक मेळपाची संद येत म्हणपाचें ेवदत्तान चुकूनय येवजूंक नाशिल्लें. पुण नशिबानसार तशी संद ायली. ताणें आपणाली सगली पुंजो आनी भरीक रीण काडून मैल्ले पयशे सोसायटींत भल्ले आनी दोन कुडींचो सेल्फ कंटेंट लॉक एकदाचो मेळैलो.

सोसायटींत रावंक आयलो तेन्ना देवदत्ताक एका संकश्टांतल्यान ार जाल्ल्याबरी जालें. इतले दीस आपुण त्या चाळींतल्या ुचमणींत दीस धुकल्ले कशे म्हणपाचें ताका अजाप दिसूंक लागलें. ाळ प्रसंग कसोय येवं, मनीस जीवसाण कशीच सोडीना म्हणपाचें ाका खासा अणभवान पटलें.

आतां देवदत्ताल्या जिणेक आनी चलणुकेक ल्हवू ल्हवू ओप ावंक लागली. ताच्या नात्यापात्यांतल्या मनशांक आनी बरें ागत्यांक भौ खोस जाली. ' तुमचें नष्टचर्य आतां सोंपलें अशें ानूंक हरकत ना. ' ताणीं देवदत्ताक म्हळें.

दिसांफाटल्यान दीस वचूंक लागले आनी सुर्वेकच ज्या अणभवा विशींची गजाल हांवे सांगली तसो पश्चाताप करपाची वेळ ेवदत्ताचेर आयली. एका फाटल्यान एक अशे प्रसंग येवंक लागले ीं, सोसायटीचो वांगडी जावपांत आपणे शाणेपण केलें काय ापणालें पिशेपण जालें म्हणपाचोच ताका सारको दुबाव येवंक ागलो. आपणालें पात्रल चुकलें अशें ताका दिसूंक लागलें अशें ालें पुण कितें ? तुमी विचारतले.

आतां तुमकां सांगचें पडलें ना ? आयकात तर.

मनीस चाळींत रावता आनी तो सोसायटीच्या बिल्डिंग
रावंक येता. दोनय रावपाच्योच सुवाती. हय काय न्हय ? ह
पुण दोनयकडची गजाल मात सारकी म्हळचार समान नास
चाळींत जायतीं बिराडां आसतात. थंय रावतल्यांच्यो एकमेकांक
वळखी जातात. शेजारसामाराच्या धर्मान थोडीशी दी घेय
चलता. तशें व्हडलेशें परकेपण उरना. पुण इतलें जावनय थ
जण एकल्या बिराडकारालें व्यक्तिमत्व स्वतंत्र अशें उरता. ए
भाशेचें अलिप्तपण तांच्या मजगतीं उरता अशें म्हळचार चल
चाळींत व्हडल्या जोडीचो, मध्यम मेळकतीचो आनी हातातोड
गांठ म्हणतात तसल्या म्हैनोम्हाल तुटपुंजी प्राप्ती आशिल
बिराडकार आसता. हे वेगवेगळ्या आस्पतींतले लोक आपापणा
जीण खासा आपापणाल्या तरेन चलैतात. तांतूंत कोणाक
व्होडपण, उणेपण दिसना. जो तो आपणाल्या मेळकतीचो धन
थंय स्पर्धा ना. सर्त ना. एकाचें पळौन दुसऱ्याक खंत जायन
खडपसुख जावन, जीव हर्पण करून वेल्या पावंड्याचे आस्पत
खातीर आपणेय मरचें म्हणपाचें कोणाच्या तकलेंत येना. ज
एकल्याली कूड वा आगळी उणी सुवात हें तागेलें घर क
इतले लोक एकठाय रावतात आसूनय कोणाक कोणाचो दुस्वा
ना. एका उतरान सांगचें म्हळचार चाळींत जो तो आपापणाल
अवस्तेंत संतुष्ट आनी सुखी आसता.

सोसायटीच्या बिल्डिंगांत अशें घडूंक पावना. बिल्डिंगांत रा
तल्यांचीं मेजकींच कुटुंबां आसतात. हीं कुटुंबां म्हळचार ए
व्हडलें रास्वळ कुटुंब कशें. तांतूत रावपी वांगडी हे ए
मेकांचे भावबंद कशे. अशें जाल्ल्यान थंय घूसफूस दुस्वास आन
मागीर धोस उप्रासता. सोसायटींत एकमेका मजगतीं आशिल

बंद सांस्कृतिक नदरेन चड निगडीत आनी अर्थीक स्वरूपाची
गणूक चड धनिष्ट जाल्ल्यान तिका हें रास्वळ कुटुंबाचें सरूप
ायिल्लें आसता. सबाविकच कुटुंबांतल्यासारके मेळेमत्सर, स्पर्धा
र्त, दुस्मानकायेची भावना असली भावबंदकी थंय चलता. हाका
ागून अशांतीचें अस्वस्ततायेचें जें वातावरण निर्माण जाता ताका
ोम उरना. तात्पर्य, सोसायटींत वांगडी जावप म्हळचार दाटून
ज्यांत उडी घेवप असो येवजूंक नाशिल्लो अणभव देवदत्ताक
ायलो.

देवदत्ताबरीच तागेल्या सोसायटींत आयिल्लो दुसरो वांगडी
कुंठ शणै. हाणेंय बी आपणाली आशिल्ली नाशिल्ली पुंजी ब्लॉक
वपांत वाटायल्ली. दोगय मुळचे आस्पतीन गिरेस्त. पुण आज
रिस्तितीन दोगय मोटव्या हाताचे जाल्ले. दोगांलीय प्राप्ती
ावाशिवा करून चाळींतलें भाडें भरपाची. आतां दर म्हैन्याक
ा भाडयाच्या तीन चार पटीन हप्तो भरतना तांचो जीव
कैलवैर जातालो. वीस वर्सांनी ब्लॉक खासा आपल्या सत्तेचो
ातलो हें खरें गा. पुण तूर्ताक म्हारगायेच्या खर्चात कुटुंबाचें
वणखाण न्हेसण पांगरुण ओखद विसेद, भुरग्यांलें शिक्षण आनी
र आगंतुक खर्च सांबाळून जियेतलो कसो म्हणपाचो प्रस्न दोगांय
ुखार सारकोच उबो रावतालो. तातूंत सण परब येतकच
चारूच नाका.

दिवाळे आदीं एक दीस वैकुंठ शणै देवदत्तागेर आयलो. दोगय
मदु:खी जाल्ल्यान एकामेकाकडेन ओग घालौपाची तांकां सवंय
ाल्ली. उलैतां उलैतां वैकुंठ शणैन म्हळें,

'दत्ताबाब, दिवाळी लागीं पावली. कशें करतलो ? हे सण
ाणटेल्यांनी कित्याक करून दवल्ल्यात देवाक खबर. हांगा

आयिल्लो दीस अब्रून कसो धुकलतलो म्हणपाची चिंता. ता
हे सण उरिल्लो जीव खावंक येतात. म्हाका येन्नाधर धडध
भरला. सतीश मारांदाक लागला फाटीं. अंदू मारांदांक उ
लायसारको आसा ? पुण सतीशाक बाबड्याक हें कशें कळटलें
ताणें हिशेब सांगलो. रामबाबान स्वंय जयकृष्णाक देडशें रुपय
मारांद हाडल्यात. वासूबाबान पंढरीनाथाक सवायशांचो फ
घेवन दिला. ॲटम बाँब, अनार, चिडियां, म्हाका नांवाय येना
हाणें पाऊणशांचो, ताणें पन्नासांचो; कितलेंशेंच सतीश स
बाप्पा, तूं केन्ना हाडटा ? ताणें म्हाका विचाल्लें. आतां ता
कितें जाप दितलो ? हिका तर फळाराच्यो चार तरा करू
आपल्यापेल्याक पावैलोना जाल्यार सुख लागपाचें ना. तिचें
खरेंच. चौगांत रावतकच चौगांसारकें रावंक नाका ? तरी ब
तिका वस्त्राभांगराचो सोस ना ! पुण हें सगलें जावंचें कशें
चार म्हैन्यांचे सोसायटीचे हप्ते भरचेले उल्ल्यात. सेक्रेटरी जी
खाता. तातूंत ही दिवाळी. तुमकां काय असलो हुस्को ना. ख
मू ? बोनस कितले, दोन काय तीन मेळ्ळे ? तुमगेली दिवाळ
घोंसार चलतली म्हणा !'

हाचेर देवदत्तान जाप कितें दिलीशें दिसता तुमकां ?

'वैकुंठबाब, कितें मस्करी करतात म्हजी ? खयंचे बोन
म्हणटात ? अंदू बोनस वांटूंक मेळपाचे ना म्हणून मेनेजमेंटा
जाहीर केलां. संप करचो काय कितें म्हणपाचो युनियनान विचा
चलैला. केस इंडस्ट्रियल कोर्टाकडेन वचचेली आसा. तुमगेल्य
आनी म्हगेल्या परिस्तितींत कितें फरक आसा अशें समजतात
तुमीं? जी गत्त तुमगेली तीच म्हगेली. पुण हांव तुमकां विचारत
रामबाब, वासूबाब हांगेल्यो गजाली आमकां कित्याक ? साख

ात खातल्यांच्यो देखी केन्ना मणगणेंय खावंक मेळनाशिल्ल्यांनी
ंवचेल्यो आसतात ? तांकां पेटौनी फोग. आमी दोळेभर पळौन
ादोशी जावया !' देवदत्तान हांशार घालून जाप केली.

पुण वैकुंठ शणैक तें कशें रुचतलें ? ताणें रोखडेंच म्हळें,

'हें तुमगेलें तत्त्वगिन्यान म्हाका चलत. पुण सतीशाक कशें
वलतलें ? हेर भुरग्यांबरी तोय भुरगो. ताकाय मारांद मारीन
दिसल्यार अजाप कसलें ? ल्हान भुरग्याक कितें बापायच्या
ांकीची कल्पना आसता ? ताका खटू कसो करतलो ? उष्णे
ाष्णे करून हाडून दिवंचेच पडले ताका मारांद. आयिल्ली
दिवाळी कशेंय भाशेन मनवंक तर जाय ? आस्पतीक रडून
करता कितें ?'

हें आयकून देवदत्तान फुडें म्हळें,

'वैकुंठबाब, बारीक येवजिल्यार तुमची खबर एके भशेन जायती
बरी. दिवाळी मनवपा पुरतो तुमी कितेंय घोळपाळ करतले आनी
प्रसंगांतल्यान पार जातले. पुण म्हजेर आयला तो प्रसंग तुमकां
सांगल्यार तुमी कितें म्हणटले ? सोसायटींतले हे आमगेले रामबाब,
वासूबाब, आनी शाणेबाब आमकां आतां जल्मभर दुःखाक ानी
मनस्तापाक कारण जावपाचे आसात! आमगेलेक जाल्यार रमाबाय,
शांताबाय आनी प्रेमाबाय हांचेर कडी करपाबगर आनीक कितेंच
सुचना तांचेर वयर आमगेलो पाखो चलूंक जाय, म्हळचार तांच्या
देडयन आमगेलो नरतर चलूंक जाय. त्या बडायखोर मनशांच्या
नाग्वाक चुनो लावंक जाय ! आतां ह्या पिशेपणाक कितें म्हणटलो ?
जातान, समाजीक प्रतिष्ठेन आमी सगले समान म्हळें जाल्यारय
आस्पती नदरेन सारके जातात ? तांगेली आस्पत इंद्राक विकतो
घेवपाची आनी म्हगेली बळीच्या दारांत याचक जावन वचपाची !

हिका हें खबर ना ? आसा. पुण सबावाक ओखद ना! ह
अणवेपण घेवंक इल्लीय तयार जावंचेली ना अशें तिचें म्हणणें
आतां हिच्याफुडें कितें नाख आपटून जीव दितलो ?'

'हांव सांगू तुमकां दत्ताबाब ? तिचो कांय गुन्याव ना. आ
फाटीफुडें येवजिनासनता भुल्लसून सोसायटीचे वांगडी जाव
पावल घालें तेंच व्हडलें पिशेपण जालें. हेर कोणकोण वांग
जाल्यात तें तेन्नाच ध्यानांत घेवंक जाय आशिल्लें. वेगवेगळ
आस्पतीचे लोक समान अधिकारान एका पातळीचेर येतकच
अशेंच घडचेलें ! आतां चुरेचुरे काडून उपेग कितें ?'

देवदत्ताक तें आदींच कळून चुकिल्लें.

# आवयचो मोग !

'न मातुः परदैवतम्' 'जननी स्वर्गादपि गरीयसी' बी सुभ
षितां तुमी आयकल्यांतच आसतलीं. आवयपरस दुसरी व्हड देव्रत
ना, आवय स्वर्गायपरस व्हड! म्हणूनच आवयचो मोग व्हडां
व्हड, चडांत चड आनी सुद्दांत सुद्द अशें कदीम काळ'धरू
मानीत आयल्यात. आवैच्या मोगाचीं स्तोत्रां आजलेगीत कितल्य
कवींनी गायलीं ताची गणना करूंक येवंची ना. आवय आनी तिच
भुरगें ह्या नात्याभाशेन परम मोलादिक आनी परम थोर नातें
ना, अशी समस्तांची म्हणणी.

पुण तुमी ती बिरबल बादशाची काणी केन्ना आयकल्या ?
भौकरून आयकल्याच आसतली. एक दीस खंय बादशान बिरबलाक
विचारलें, बिरबल, या संसारांत प्राण्याक चडांत चड प्रिय कितें?

बिरबलान सट करून जाप केली, 'प्राण्याक चड प्रिय कितें आसतलें ? जीव ! दुसरें कितें ?'

'बिरबल, कितें रे पापया उलैता तूं ? प्राण्याक भुरग्यापरस दुसरें कितेंच प्रिय आसता ? भुरग्याखातीर जीव लेगीत दिता तो. तुका अणभव ना दिसता हाचो.' बादशान ताका पिशार घालीत म्हळें.

'म्हजो अणभव कित्याक ? संसाराचो अणभवच हावें सांगलो. तुमकां पळौचें आसा ? दाखैतां. मागीर उलयात !'

ताणें एका हौदांत नळांतल्यान उदक सोडपाक आरंब केलो आनी तातूंत एक चिपाजी आपल्या भुरग्यासंत देंवैली.

उदक इल्लें इल्लें वैर सरूंक लागलें. थोडचा वेळान तिच्या हडुचामेरेन उदक तेंकतकच तिणें खांदार घेतिल्या भुरग्या चिपाझीक उबारून माथ्यार घेतलें.

हें पळेनाफुडें बादशान भुरकुटून बिरबलाक ल्हवूच चिमटो काडलो आनी म्हळें,

'पळेलें मरे, बिरबल ? आतां उलय, तुगेलें खरें काय म्हगेलें खरें ?'

बिरबलान हांसहांसत म्हळें,

'धनयानो, शिताफुडें मीठ कित्याक खातात ? रावात मात्शे. हौद भरूंदी पुराय. मागीर सांगात तुमकां कितें सांगचेलें आसा तें !'

हें उलवणें जाता म्हणसर उदक आनीक वैर सरलें तें चिपा-जीच्या नाखातोंडांत भितर सरून ती मिडमिडूंक लागली. तिणें उदका वैर सरपाची कसरत करून पळेली. पुण ती सारकी जमना जाली. आनी घुसमटून मरपाची वेळ येता अशें दिसल्यावरोबर इल्लोय

उशीर करीनासतना माथ्यावेल्या पोराक काडलें आनी पायापोंद घालून ताचेर उबी रावली !

ही काणी आतां तुमी आयकता आसतनाच घडये तुमच्य मनांत येतलें. ही काणी मोनजातीची. संस्कार नाशिल्ल्या प्राण्याची मनशाची गजाल वेगळी. चिपाजीच्या बदला बायलमनशेक भुरग्य सैत हौदांत देंवयल्ली जाल्यार अणभव दुसऱ्याच भशेन येतलें आशिल्लो. भुरग्याक वांचैतां वांचैता ती आवय मरून वचपाक फाटींफुडें पळौंची नाशिल्ली. भुरग्याक पायापोंदा घालून ताचेर उबी रावपाचें पशुपण ती केन्नाच करची नाशिल्ली ! माजर आपल्या पोरांक खाता म्हणून मनीसय आपणाल्या भुरग्याक मारता काय कितें ! आवयमनीस ती आवयमनीस ! तिका कोणाचीच सर येवंची ना.

बिरबलाचें चुकलेंच तें. ताणें तो प्रयोग मनशाचेरच करून पळौंक फाव आशिल्लो. म्हणटकच सासणाचें सत कितें तें कळूंक बऱ्याक पडटलें आशिल्लें.

पुण तशें तरी कित्याक ? तुमी पुराणां–म्हाभारत वाचला मूं ? वाचूंक नाजाल्यार हरदासाच्या कथा कीर्तनांत तरी आयकलां जातलें. भीष्माची आवय सत्यवती जाणात तुमी ? तिणें एक न्हय, दोन न्हय, सात पोरां व्हरून गंगेंत बुडैलीं ! आनी तिगेली नात सून ती कुंती ! तिगेलीय खबर तुमी आयकल्या आसतली. तिणें आंकवारपणांत जाल्ल्या त्या पयल्याच भुरग्याचें कितें केलें ?!

असल्यो कुंती ह्या कळियुगांत शारानशारांत कितल्यो भल्यात तांची खानेसुमारी त्या चित्रगुप्ताच्यान लेगीत करूंक जावपाची ना अशें हांवें म्हळें जाल्यार ती तुमी अतिशाव समजूं नाकात. आवैचो मोग म्हळ्यार व्हडांत व्हड, चडांत चड आनी सुद्दांत

सुद्द खरो. पुण त्याखातीर भायलीं कितलींशींच आंगां लागतात. ती आवय भटांच्या मंत्रानीं आनी चारचौगांच्या गवायेन कोणाय तरी दादल्या मनशाच्या हांतुण्णाची वांटेली जावंची पट्टा. म्हणजेच कायद्यान तिगेलें आवयपण मान्य केल्लें आसचें पट्टा ! तें भुरगें आपलें म्हणून सांगतना तिका लज जायसारकें तातूंत कांय गुटफळें नासचें पट्टा ! दुसऱ्या उतरांनी सांगतलो जाल्यार, आवैचो मोग म्हणटात तो रगताचो, आंतकडयांचो मोग न्हय. संस्कारांचो, मानतुकायेचो, फटींचो मोग! आवैच्या मोगाविशींचें सत म्हळचार हें इतलेंच. हाका आडवाद मेळटीत पुण ते नेमाकच नेट हाडपाक उपकरतले; नेम लटिक थारावपाक न्हय !

हें हो इतल्या तिडकीन कित्याक सांगता? हाच्या शेंपडेर कोणाचो पाय पडला बी न्हय मूं? अशेंय तुमच्या तकलेंत घोंकतलें. म्हजी तिडक प्रत्यक्ष अणभवांतल्यान उप्रासल्या. उपजत भावनांयपरस आमगेले सासणाचे धार्मिक आनी समाजीक संस्कार बळिष्ट, तेच आमगेल्या जिनसा जिनसांच्या मोगाचें रूप आनी बळगें आकाराक हाडटात हातूंत इल्लोय दुबाव ना. हें सत म्हज्या अणभवाक कानानी न्हय, दोळयांनी हाडून दिल्लें आसा! म्हणूनच हांव तें व्हड तिडकीन सांगतां ! हातुंत म्हज्या शेंपडेचो कांय संबंद ना. आसा तो म्हज्या काकुयटया सबावाचो. अडचल्ल्याक पालत्र दिवपाच्या बुद्दीचो. आतां तत्वगिन्यानाचो आनीक कुंडो कांडीत बसनासतना घडली ती नवलकाणीच तुमकां जथापथ सांगून कुशीक सरतां. मागीर तुमीच तेविशीं येवजात आनी सार सरांव घेवंचेलें तें घेयात.

एक दीस म्हगेलो एक जिबरचकंठश्च इश्ट म्हज्यासरीं आफिसांत आयलो आनी म्हज्या कानांत फुतफुतून ताणें एक

गजाल सांगली. बाबडो एका बगलाठांत घुस्पल्लो. तागेली एक आंकवार मेवणी एका गिरेस्ताच्या चल्याच्या फुसलावण्यांक भल्लुसून नाका आशिल्लें करून बशिल्ली. आनी जनरविशेप्रमाणें शंभरांतल्या नव्याण्णवदांक जो अणभव येता तोच तिकाय आयिल्लो. त्या नावाडग्यान कानार केंस काडून सामकेंच नकळ टचार घालें ! तो दुष्यंत कशाच भशेन बदना जातकच आनीक उपायच ना जावन, चड बोवाळ केल्यार आपलीच दशा वतली म्हणपाचें येवजून, अशा संकष्टांत पडलेले अभागी जें कितें करूंक तयार जातात तेंच करपाचें म्हगेल्या त्या इश्टान थारायलें. पुण ही गजाल ह्या कानाची त्या कानाक कळूंक फावनाशिल्ली. म्हणून त्या मेवणेक घेवन तो गोंयच्यान मुंबै आयलो. ताका, तिगेली निसर्गान सुटका करीसर, रावपाक सुवात जाय आशिल्ली. म्हगेली बिराडाची कूड, बायलभुरग्यांक गोंयां धाडील्ल्यान, धांपून आशिल्ली तें ताका कळ्ळें. तो आपल्याक आलासरो दी म्हणून अश्रेवंक लागलो. तागेली गजाल आयकतकच ही नसती बिरमत म्हजे फाटीं नाकारे बाबा, अशें मनांत आयलेंच. पुण तागेलें तें रडकुळें तोंड पळतकच म्हज्यान ना म्हणूंक नज जालें. कितलें म्हैने लागतले हाची आदवसाण घेवन हावें घोंसाची चावी काडून ताचे हस्तुकीं दिली.

दिसाफाटल्यान दीस वचूंक लागले. बिराडाची सुवात गोरे गाग्रांत आनी हांव उरतालों गिरगावांत. हांव मदीं मदीं फावता तेन्ना थय वचून ताका मेळून येतालों. कशे भशेन एकदाची सुखरूप पणान सुटका जावन पर्थून घरा वचूंक मेळटलें म्हणपाच्या हुस्क्यान बाबडयाचो जीव सामको आक्रासून गेल्लो. ताका कितेंच रूचना

शल्लें; कितेंच सुचनाशिल्लें. एकसारको देवाक नवस आंगवणी
रीत आसतालो.

अखेरेक ती सुटपाचे दीस लागीं लागीं येवंक लागले, तशी
ानीक एक हुस्क्याची गजाल ताच्या ध्यानांत आयली. परतीं
रां वचूंक जाय; पुण आयल्यांत तशीं फकत दोगांच, तिगां न्हय!
हणटकच तिसऱ्याचें त्रितें करतलो ? हुस्को सामान्यांतलो न्हय
हणपाचें म्हज्याय ध्यानांत येवंक वेळ लागलोना. अविचारान
र्तंतले मौज मारून वेतात. आनी भोगचें पडटा कोणाक ? त्या
ोटांतल्या कर्मजीवाचें खंयच्याय तरी जल्मांतलें पातक भोगचेलें
ाशिल्लें जावंक जाय ! नाजाल्यार आपुण खंयच्या बायंत उडी
ारतां म्हणपाचें येवजून मागीरच तो उजवाड पळौपाचो हावेस
रतलो आशिल्लो. पुण घडचेलें तें चुकना म्हणटात तेंच खरें !

कशेंय आसलें तरी त्या पावण्याक येवकार दिल्याउपरांत ताचो
रामूस कसो करतलो आनी ताका सासणाचो आलासरो मेळौन
दिवंक जाय. तो खंय आनी कशें भशेन मेळटलो ? आमची तकली
ोरांतूक लागलो हो घुंघुल्लो !

असल्या अनाहुत पावण्याक खरेर्ला सुवात म्हळचार अनाथ
बालकाश्रम. पुण तांतूत रिगाव मेळ‌ापाक आडमेळींय खूब आसतात.
ह्याभायर उजवाडाक येतलो तो दादल्याच्या काय बायलेच्या
पान ? बेत थारावपाच्या कामांत तेंय ब्री एक व्हडलें आडमेळें
आशिल्लें. ह्या संसारांत दादल्याच्यान जितल्या सदळसाणीन खंयय
ीग मेळौक येता तितल्या मेकळिकेन बाबडे बायलेक तो मेळना !

तुमकां ही गजाल आयकून कितेंशेंच दिसता आसलें जाल्यारय
त्य कितें म्हणपाचें तुमी ध्यानांत घेवंक जाय. आंदळचांबरी
ातानुगतिक जावंक फावना. काळाचीं पावलां वळखूंक जाय.

कितें करतलो, कात करतलो ह्या येवजणेंत आसतना
सूतिकागृहांत वचचेलो दीस आयलो. सुटकाय बी सोपेपणा
जाली. वायट इतलेंच जालें, जल्माक आयली तीय बी एक चली
पुण ही आमगेली नदर, आवैक चलो आनी चली सारकींच. खरे मू
आवयच्या मोगाक खतखतो येवपाक लिंगांचो भेद आड येना. पु
तुमकां अजाप कितें सांगतलो ? ती आवय त्या पोराकडेन पळेन
जाली ! ही गजाल डॉक्टरणीच्या नदरेक पडतकच तिणें त्य
आवैक तरेतरेन समजावन पळेली. भुरग्याक दुदाक ना धरल्या
हड्डीं कशीं तट्टटलीं आनी त्रास कशे जातले तेंय सांगलें. पु
तिच्या तकलेंत तें रिगना जालें. डॉक्टरीणीन अखेरेक त्या तिच्य
मेवण्याक ती खबर सांगली आनी तुमी पुण तिका समज त्रालात
दुदाक धरलें ना जाल्यार भुरगें सुकून वतलें; घडये मरत लेगीत
म्हणून सांगून ताका भेष्टायलो. इतलेंच न्हय तर कायद्याप्रमाण
मागीर कसल्या बगलाठांत पडचें पडत तें सांगूंक नज, अशेंय सुचैलें
ताणें तें तिका कळीत केलें. पुण ती इल्लीय बाडगली ना
'मरना ! मेलें जाल्यार बेस बरें जालें ! जाय आशिल्लें कोणाक
पोर !' तिणें जाप केली.

ह्याच भुरग्याचो हीच आवय व्हडलो ताथोमाथो करतली
आशिल्ली. ताका पातयेवंची नाशिल्ली. पुण त्याखातीर तिचें
गर्भाधान जावंक जाय आशिल्लें ! तें जाल्लें नाशिल्ल्यान आपुण
आवय जाली म्हणपाचेंच लिपोचेलो प्रसंग आयिल्लो ! मगीर
आवैचो मोग आनीक खंयचो खतखततलो !

आवैचो मोग म्हणटात तो आंतकडच्यांचो नासता, हाच्याविशीं
आतां तुमकां आनीक दुबाव उल्ला ?

ही नाका जाल्ली चली अखेरेक एका कलंवताक दिवंची पडली.

म्हाका दिशिल्लें, अशे तरेन त्या भुरग्याक सासणाचें नदरेआड करता आसतना पुण त्या आवैच्या काळजाक झरो फुट्टलो आनी तो दोंय दोळ्यांतल्यान व्हावंक लागतलो. पुण धा दीस उखलधर धूपूस केल्ल्या वयजिणीक जितली दुखी वादता तितली लेगीत त्या आवैक बादली ना! उफाट्टें तें भुरगें घेवन तें कलवंत वतकच्च तिचो जीव थाऱ्यार आयलो. आवयचो मोग म्हणटात तो होच मूं! ?

# सुशीलाबायचें सपन !

आग्वादच्या बंदखणींत घोवाक मेळून आयल्यार सुशीलाबायक पुराय म्हैनोय जालो नाशिल्लो. आनी आज अवचित सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्ली ती खबर तिच्या कानार पडली. तिचो त्या खबरीर आदी विस्वासच बसना जालो. शे ! अशें केन्नाच जावंचें ना ! आज दोन वर्सां जो मनीस फिरंगी जाळवणदारांच्यो सगळ्यो ख्यास्ती सोसून आनी ते करतात ते सगले विद्भोग भोगून इल्लोय बाडगनासतना खंबीर आनी धिरीष्टपणान रावलो, तोच आतां तांगेल्या फुसलावण्यांक आनी हांयसाक वसवसून तांगेलो हुंगो जावंक तयार जायत आनी गोंयकार वा भारतीय आपवावुरतल्यांची सुलूस घेवपाची, तांची आनी तांगेल्या बांदावळीची नाट फिरंगी जाळवणदारांक कळवपाची, तांकां धरून दिवपाची दशाहोगडावणी आनी देसघातकी चाकरी पत्करूंक मुस्तायक जालो ! शे: शे ! म्हाका दिसना. हें कोणेंय दुस्मानान येवजिल्लें तट्टुक आनी केल्ली भगलच आसूंक जाय ! सुशीलाबायन मनांत म्हळें. पुण पर्थून तिच्या मनांत आयलें, ओगीच दुस्मानय आसलो म्हणून कोणय न्हय आशिल्लेंच रचून कित्याक

गांवभर पातळायतलो ? कांय चुकूं नज ! हांकांत्र काळाची बु
सुचली जावंये ! वायट खबरी चड करून केन्नाच लटिक आसनात
देवा, कितें आयकुचेलो प्रसंग हाडलो हो तुवें म्हजेर ! अ
म्हणून दोनय हातांनी तिणें आपणालें तोंड धापून धल्लें आन
हड्डुयांतल्यान भायर फुटूंक आयिल्लें रडें गळयांतच चिड्डू
गिळपाचो यत्न केलो.

येवजण्यांनी आनी कळांनी सुशीलाबायचें माथें फुटपाकडे
पावलें. म्हऱ्यांत मुयेयेदीं तोंडां करून बशिल्ल्या आपणाल्य
दोगांय भुरग्यांकडेन तिगेलें लक्ष लेगीत वचनाशिल्लें. ती सामक
सथरविथर जाल्ल्याबरी सकाळपसून तशी त्रासरेंत बसून राविल्ली

तिगेलीं तीं दोगांय भुरगीं तशीं पिरायेन व्हडलींशीं न्हय
आशिल्लीं. पुण वर्सांच्या हिसपान पळेल्यार तांकां आसूंक फाव
त्यापरस मत कितलीशीच चड आशिल्ली, अशें म्हळयार अतिताय
जावंची ना. मालूक आठवें वर्स निकतेंच लागिल्लें. आनी माधव
मालूपरस तीन वर्सांनी ल्हान, म्हळयार पांच वर्सांचो. पुण त्य
वोटभर भुरग्यांक जी बुद्द, समजिकाय, चत्राय आनी संयम देवान
दिल्लीं तीं जाणटचा पिरायेच्या मनशांत लेगीत दिश्टि पडूंक
कठीण असलीं आशिल्लीं. आपणाल्या बापायक कोणशा सरकार
म्हळळया अवचिन्न मनशांनी धरून व्हेला आनी खंयच्याशा काळखां
कुडींत तकडबंद करून दवल्ला; थंय ताका सारकें खावंक जेवंक
दिनात; मारफार करतात; ताका मेळूंक गेल्ल्यांक धांवडायतात;
पळौंक दिनात; सायबाजात्रा करून रडटकच भायर हाडलो जाल्यार
ताच्या म्हऱ्यांत वचूंक दिनात; ओडून काडटात आनी शिपायकां
कडल्यान बंदखणी भायर व्हरून सोडटात म्हणपाचें ताणीं पळेल्लें.
ताचेवेल्यान आपलो बापुय व्हडल्या संकष्टांत सांपडला जावंक

जाय इतलें तांकां कळटालें. आपणें हट करूंक जायना, आवैक वायट दिसत, तिका रडूंक येत असलें कितेंच करूंक फावना म्हणपाचें येवजून तीं व्हड शाणेपणान वावुरतालीं. कोण ह्या अपुरबायेच्या भुरग्यांक हें अशें चलूंबोलूंक शिकैता म्हणपाची तोखणाय दिस. आपले सगले विकार भितल्याभितर दामून दवरून, तीं दोगांय भुरगीं आवैक खोस जावपाखातीर कितें कशें करचें म्हणपाचें सतत येवजीत आसतालीं. आवय खूब त्रासांत आसा, तिगेले त्रास वाडटीत अशें कितेंच करूंक जायना अशें येवजून तीं आपणाल्या बाळबुद्दीक सुचता त्या भाशेन तिका हांसोवपाचो आनी बरें दिसपाचो यत्न करतालीं.

पुण कितलींय जाल्यार भुरगीं. बरीं गुणांची जालीं म्हणून भूकतान सोसतलीं कशीं ? बाबडीं सामकीं आकुळपिकुळ जाल्लीं. सकाळपसून आवैचें कितेंय तरी इबाडलां, तिगेलें चित्त आज थाऱ्यार ना म्हणपाचें तेळून तीं मोन्यानी तिच्या फुडयांत बशिल्लीं आनी चोराबरी जावन मदींच एकमेकांच्या तोंडाकडेन पळेतालीं. मागीर ल्हवूच तकली वैर काडून आवैच्या तोंडाकडेन चयतालीं. सुशीलाबायचे दोळे जरी उक्ते आशिल्ले तरी तिच्या दोळ्यांतल्यो बावल्यो जाग्यार आसात अशें दिसनाशिल्लें. त्यो अंतराळांत खंय तरी कसलोसो सोद करतात अशें दिसतालें. दोळे उक्ते आसूनय तिका कितेंच दिसनाशिल्लें. कसलेंच भान उरूंक नाशिल्लें. भुरगीं बकबक करून पळेत रावलीं खरीं. पुण बाबडीं तश्शीं बसून कितलो वेळ रावतलीं ? अखेरेक मालून आवैक विचारलें,

‘ आई, अशी कित्याक बसल्यागे ? कितें जालें तुका ?’ इतलीं उतरां तोंडातल्यान भायर सरता म्हणसर तें रडकुळें परतलें आनी तकली आवैच्या होंटींत धोंगसून सों सों करूंक लागलें.

ती शाबुद्दीर आयली ना म्हणपाचें पळौन माधव भियेलो. तिगेलें तोंड आपणाल्या माणकुल्या हातानी धरून ' आई, आई ! अशें कितें करता गे ! ' अशें म्हणून तोय तिच्या आंगार लवंडलो, तेन्ना ताच्या थंडगार हातांच्या स्पर्शान सुशीलाबायक जाग आयिल्ल्याबरी जाली. चिनारी गेल्लें मनीस जीव पर्थून येतकच जशें करता तशें तिणें केलें. ' कितें म्हज्या राया, कितें म्हळें तुवें ? ' असो तिणें प्रस्न केलो आनी दोगांय भुरग्यांक पोटलून वेंगांत धल्लीं. मागीर तिच्या ध्यानांत आयलें की, येदे दनपार जाले तरी आपुण भानविरैत जावन तश्शी बसून रावली, भुरग्यांक न्हाणैलीं ना; शिताक तांदुळ घालेना; केंस लेगीत उगैलेना. तश्शी धोंकणेंत उल्ली !

तरी आसतना आज रात्रींत उजो करचो अशें तिच्या मनांतच येना जालें. भुरगीं भुकेलीं जातली म्हणपाचें तिका कळटालें. पुण आपणाल्या जिणेंतली भौ मोलाची वस्त सांडिल्ल्याबरी तिका जाल्लें. तें दुःख तिच्यान घोटूंक नज जालें !

विंचवान नांगी मारिल्ल्याबरी तिच्या काळजाक वेग मारतालें. अपमानाचे, अप्रतिष्ठेचे सोसचे पडटले ते कड येवजून ती सारकी जळत हुलपत आशिल्ली. घोवाक ही नइटी बुद्द येवजूंचे आदींच जर फिरंग्यानी ताका हेरांबरी धा बारा वर्सांचें सेंतेंस मारून तारवार चडैल्लो जाल्यार बेस बरें जातलें आशिल्लें, अशें लेगीत त्या वेळार तिच्या मनांत आयलें.

इतलें जाता म्हणसर तिगेली शेजाऱ्न माणकूहोनी दरवठो धुकलून सालांत आयली आनी कोणाचीच जाग ना म्हणपाचें पळौन, ' ये सुशीलाबाय, खंय गे ? जागशी ना मू ?, अशें म्हणत

कुडींत भितर सरली. आनी तिगांय तशीं बशिल्लीं पळौन ल्हवूच तिणें प्रस्न केलो,

‘ खरें गे, आयकलें तें ? वैंकुंठबाबान खंय फिरंग्यांकडेन पेदींव मागलें आनी सरकारालीं व्हडल्या पागाची सिर्वीस धरली ? लोक बाये कितें कितें उलयल्ले आयकूंक येता. म्हाका काय खरें दिसना. ओगीच अशें घडत तरी कशें ! ’ सुशीलाबाय कितें जाप दिता ती आयकूंक ती तटास जावन रावली.

सुशीलाबाय बाबडी कितें उलैतली ? ती लागठेल्ल्याबरी जावन मान उमथी घालून ओग्गी रावली. तिका एक उतरय फुटना जालें. एक व्हडलोसो हुस्कार मात माणकूहोनीच्या कानार पडलो.

‘ आगे, अशें गे कितें करता ? तुका पिशें बी लागूंक ना मू ? रात्नीत उजो लेगीत करीनासतना तू अशी बसल्या ती भुरग्यांक उपाशीं उडैता हय गे ! भांगरासारकीं भुरगीं तुगेलीं. सकाळ पसून बाबड्यांच्या तोंडांत उदकाचो थेंबो लेगीत ना दिसता वचूंक. पळे कशीं आक्रासून गेल्यांत तीं ! तांकां बाबड्यांक वळवळे कित्याक ? चलात पुतांनो, हांव व्हरतां तुमकां आमगेर. आनी तूंय आंगार दोन तांबये ओतून काप्यां उदाक तरी करून घे मग घोंटभर ! अशी पिशांतर जायसारकें बाये कितें जालां ? वायट दिसचेलेंच गे कोणाकय! पुण ताचो तरी बाबड्याचो कितें उपाय ? तुजो आनी भुरग्यांचो फुडार येवजूनच ताणें केलां जातलें. ल्यास्त भोगैल्या हेर लोकांल्या संसाराची कितें गत्त जाल्या ती पळेतात न्हय सगळे ! ह्या संसारांत बाये कोण्ण कोणाचो न्हय. ज्यागेलो प्रपंच ताणें सांबाळूंक जाय. चल ऊठ. पिशेपणां करूं नाका पळौया! ’

अशें म्हणून ती भुरग्यांक सुशीलाबायच्या म्हन्यांतलीं उठौंक

लागली. पुण तीं दोगांय हालधोल नासतना तश्शीं आवैक घसटून बसून रावलीं.

भुरग्यांलो निग्रह आनी आपल्यावेली माया पळौन सुशीला बायक किंवाटो आयलो. तिणें हुडकी दामली आनी भुरग्यांक म्हळें,

'उठात. म्हजीं भांगरां तीं. वचात आं मावशेवांगडा ! ती तुमकां मोगान आफैता न्हय ! चलात. आज म्हज्यान कांय नज न्हय, म्हणून !'

भुरगीं बाबडीं कितें करतलीं? तांकां चुरचुरून भुक लागिल्ली. तरी तीं फाटींफुडें येतात म्हणपाचें पळेतकच माणकूह्योनीन तांकां लक्तुबायेन समजायलीं आनी तांकां ती आपणागेर घेवन गेली.

भुरगीं कुशीक वतकच सुशीलाबायक जाय आशिल्ली मेकळीक मेळ्ळी. सकाळपसून दामून दवरलेलो किंवाटो तिच्यान थातारूंक नज जालो. तिणें हातुण्णार घालून घेतलें आनी ती हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागली. आपणाल्या दोळयांच्या पाटाक लाद्दल्लो निग्रहाचो गबो कुशीक धुकलून तिणे दुखांक व्हांवती वाट मेकळी करून दिली. बरोच वेळ अशी रडटकच तिगेलो क्षोभ इल्लोसो उणो जालो आनी मनावेलें व्हडलें चेपण उबारिल्लेबरी जालें. ती तशीच हांतुण्णार पडून रावली.

वैकुंटबाबाचो हात धरून त्या घरांत तिणें पावल घाल्लें त्या दिसाक धरून धा वर्सांचो काळ तिच्या दोळयांसामकार उबो रावलो. आजमेरेन त्या घरांतली जीण आनी अणभवलेले बरेवायट प्रसंग तिच्या दोळयांमुखार सिनेमाबरी हालूंक लागले.

तो चित्रपट सोंपतां सोंपतां आपल्या केंसांवेल्यान सासणाच्या वळखीचो हात भोंविल्ल्याचो तिका भास जालो. तिणें तकली वैर काडून पळेलें. वैकुंटबाब तिच्या उशाकडेन बसून तिची तकली

ांसपिताली. तिणें नदर वैर केल्ली पळौन ताणें म्हळें,

'किते आज अशी अवेळारशी न्हिदून रावल्या ! बरें दिसना जिवाक काय किते ? आनी भुरगीं खंय ? जागशी ना मू ?'

त्या प्रस्नानी सुशीलाबायचो संताप, दुःख, अपमान, निर्शेणी बी भावनांक यकदम ओतो आयलो. तिरस्कारान तागेलो हात धिस्प-टावन उडौन ती घुसमटून घुसमटून रडूंक लागली.

वैकुंटबाब तें पळौन चकासूर जालो. आतां किते करचें म्हणपाचें ताका सुचना जालें तो गोंदळून ओगीच रावलो.

रडपाचो भार देंवतकच सुशीलाबायन म्हळें,

'अखरेक हेंच म्हज्या कट्टंत बरैल्लें जाल्यार तें पळोंक म्हाका जिवी दवरच्या बदला देवान म्हाका पैलींच कित्याक आपणाल्या पायांकडेन व्हेली ना ? आतां हें काजळान भरिल्लें तोंड घेवन हांव लोकांमुखार कशी वचूं ? लोक शेण घालचेना तुमच्या आनी म्हज्या तोंडांत ?'

'आगे, पुण इतली उसळपासारकें घडलां तरी किते ?' वैकुंठ बाबान नकळटचार घालून म्हळें.

'किते? तुमीच विचारतात हें? सरकाराक शरण वचून ताचो लंच घेवन हुंगेपण पत्करून तुमी नाखाक चुनो लायलो! आपणाल्या वांगडच्यांचो गळो अंदुपाचें भारींभुशण काम तुमी हातांत घेतलां! आनी वेल्यान म्हाका विचारतात किते घडलां काय म्हणून ? लज दिसना तुमकां तकली वैर काडून विचारूंक ? नशिबा ! इतले दीस हावें थिकाकच वज्र लेखलें तर !' तिणें म्हळें.

'ओगीच कश्टी कित्याक जाता ? पैलीं म्हजें आयकून तरी घे! हांव देग्रेद वचपाक भियेलों अशें दिसलें तुका ? सरकाराक हांव केन्ना भेदन ? तळटार मस्तक घेवन गोंयच्या सुटकेखातीर झुज-

तल्या म्हज्या भावांक हांव केन्ना विकीन म्हणपाचें हें तुका ख
कशें दिसलें ? हांवें हो रातेर मांडला ! आरंबलेलें कार्य फु
चलौपाक आमकां पैशे जाय. हांवें लंच घेवंक ना. कळ्ळें? आमगेलो
सरकाराच्या भकीक पडिल्लो दुड्डू हातासून तो देसकार्याक दित्रपा
खातीर ही मांडणी केल्या! म्हाका जे फिरंग्यांनी धा हजार रूपय
दिवंचें केल्यात ते एक फावट घेवन आमगेल्या समितीच्या सुवाधीन
केले. म्हणटकच हांव सुटलों. हाच्या फुडें म्हाका गोयांत रावंच
मेळचेलें ना. पुण हांव भयान भायर वचूंक सोदतां अशें समज
नाका तूं. म्हजी केन्नाय मरपाची तयारी आसा. जाल्यारय ओगीच
प्राण होगडपांत देसहित ना. आमी येवजिल्या ती मांडणी
सादतकच फिरंग्यांक थोडयाच दिसांभितर 'नाका गोंय ! य
सायबा पुर्तुगाला !' अशें म्हणपाची वेळ येतली ! हांव लटक्यो
बडायो सांगना. तुका सगलें वेळार पळौंक मेळटलें. म्हज्या कर्तुपान
नाखाक चुनो लागलो म्हणपाचो समज तकलेंतल्यान काडून उडय
तसलें नीच कृत्य म्हज्या हस्तुकीं केन्नाच जावपाचें ना ! लोकांक
भितल्लें बी खबर नाशिल्ल्यान ते घडये म्हाका हिणशितले
खिल्शितले, देशद्रोही लेखतले. पुण म्हाका ताची पर्वा ना. तूं मात
म्हाका गुन्यावकारी समजूं नाका. तुज्या मोगाच्या आनी बिस्वा-
साच्या घिरारूच हांवें हें षडयंत्र रचलां ! तूंच म्हाका देशद्रोही
लेखशी जाल्यार मात म्हजें सगलें बळगेंच घळसणलेल्याबरी जातलें.
कळ्ळें मू ? म्हाका चड वेळ थारूंक उसरपत ना, येतां हांव.
भुरग्यांक बरीं करून सांबाळ. देव तुमकां राखतलो. म्हजो ताचेर
विस्वास आसा. !'

इतलें उलोन वैकुंठबाब भायर सरलो.

सुशीलाबाय आकांतून उठली. अजून सकाळ जावंचीच आसा

म्हणपाचें तिच्या ध्यानांत आयलें. भुरगीं कुशीक न्हिदांतच आशिल्लीं. येदो वेळ हें चलिल्लें तें सगलें आपणाक पडिल्लें सपन आशिल्लें म्हणपाचें लक्षांत येवन ती विस्मित जाली आनी गोंदळून गेली !

फुडें खऱ्यानशींच अशें कितें घडचेलें आसा काय देवा, अशें मनांत येवन ती येवजुणुकेंत घुस्पली.

# गिराण !

तुमी बारीकसाणीन पळेयात, ह्या संसारांत दोन पंगडां तुमकां दिश्टि पडटलीं. भक्षक आनी भक्ष्य अशे दोन पतींचे प्राणी तुमकां पळौक मेळटले. नाजाल्यार म्हाका सांगात, एकामेका कडेन सासणाचें दुस्मानपण आशिल्ले प्राणी कित्याक जल्माक येतले आशिल्ले ! माळूण आनी हुंदीर, मुंगूस आनी सोरोप, येंवाळें आनी बेबो, पाल आनी किमस, कितलीं म्हणून सांगतलो, जायतीं भक्षक भक्ष्याचीं जोडीं दाखौंक येतीत.

पुण म्हाका अजाप दिसता तें मनशांमजगतीय भक्षक भक्ष्याच्यो ज्यो परी निर्माण केल्यात ताचें ! ताणें फटवपी आनी फटौन घेवपी, नाडपी आनी नाडून घेवपी, नागोपी आनी नागौन घेवपी, फुसलावपी आनी फसपी, मारपी आनी मारून घेवपी, अशीं तरेकतरांचीं भक्षक-भक्ष्यांचीं जोडीं जल्माक घाल्लीं पळौन उत्पत्ती आनी संहार ह्याच्या खेळांतच ताका भौ सुख जाता जावंक जाय, अशें मनांत आयल्याबगर रावना. सांगपाचें सार म्हळचार संसारांत अशे दोन पतींचे मनीस आसतात. नशिबानसार म्हज्या वांटयाक जी पत आयल्या ती मात भक्षकाची न्हय, भक्ष्याची !

म्हगेल्या सगल्या जिणेचो फाटीं नदर घुंवडावन जेन्ना हां
नियाळ करतां, तेन्ना आजवेर म्हाका कोणे कोणे नाडलो, फटैल
नागैलो, मार दिलो–देहाक न्दय जाल्यार मनाक–ताचो म्हाव
उगडास जाता, आनी तांगेल्या शिटुकपणाची, लापीटपणाची म्हाव
तोखणाय दिसता, तितलीच म्हज्या भोळेपणाची आनी अणवेपणाच
लज दिसता! आनी मागीर म्हज्यात, भक्षक जावपाखातीर न्हय
तर भक्ष्य जावपाचें चुकौपाखातीर, इल्लें पुण शिटुकपण आन
धूर्तपण देवान घालूंक जाय आशिल्लें, तें कित्याक घालें ना, अ
मनांत येवन जीव खटू जाता आनी मन खेदिश्ट जाल्याबगर रावना

तुमकां हालींचीच म्हजेर आयिल्ल्या प्रसंगाची खबर सांगत
म्हणटकच म्हगेल्या अणवेपणाक आनी बेसावधपणाक लागू
म्हज्या बोल्साचेरच न्हय तर म्हज्या अब्रूचेर लेगीत ध्यानामनां
अचानक घुरी कशी आयली आनी त्या प्रसंगांतल्यान वाटावत
म्हणसर म्हाका त्रांयत्रांय कशें जालें तें तुमकां कळटलें. जें घडलें
इल्लेंय मीठमिरसांग लायनासतना हांव तुमकां सांगतां. ताचेवेल्यान
कल्पिता परस सत हें कितलें चमत्कारीक आसता, तें तुमच्या अण
वाक येतलें !

सांजवेळच्या स सवाय स वरांवेली खबर. हांव सदाभाशे
आफिसांतल्यान भायर सरून ग्रांटरोड थेसणार आयलों आन
चालीप्रमाण बोरिवली फास्ट लोकलीन घरा वचपाच्या तयारे
प्लॅटफॉर्मार जमिल्ल्या लोकांच्या चोंब्यांत भरसलो. मनीस मनशां
खेटून उबे आशिल्ले. ही गाडी वगडायत जाल्यार मागीर वांद्र्याव
वचचें पडटलें आनी त्रासांक त्रास काय चुकचेले नात म्हणपा
येवजून हांवय त्या चोंब्यांत शिरकटलों. इतल्यांत गाडी येव
प्लॅटफोर्मार थारली. मुसांच्या माल्यांतल्यान मूस भायर सरता

तशे लोक घोंगशे मारीत आनी बखांदी दीत देवंक चडूंक लागले. 'लोकांक आदीं देवंक दियात' 'लोकांक आदीं देवंक दियात' म्हणून लाउडस्पीकरांतल्यान आडुणी चललेली. पुण लोकांक थार खंय आशिल्लो? गाडी रोखडीच सुटृली म्हणून ते एकच घचमुडी करून गाडयेंत रिगूंक धडपडटाले. मिनीटभर कोणाकच कसलें भान आनी मनीसपण उरूंक नाशिल्लें !

म्हज्यासारक्या मनशाक ह्या घचमुडेंतल्यान भितर सरप म्हळ्यार मर्णसंकश्टच. पुण चिडुतमाडुत वचनासतना अळंग वतलों म्हळ्यार धा वरां रात लेगीत घरा पाबपाची मारामार! हाका लागून म्हाकाय आतां त्या घचमुडेची सवय करून घेवंची पडिल्ली. हावे जीव मुठींत घेवन हातांतलीं कागदां सांबाळीत मुसंडी माल्ली. इतल्यांत कोणाचो तरी म्हाका दुखसारको धोंगसो बसलो. कितें कात म्हणपाचें कळच्याआदींच म्हजी गुटली गाडयेंत आपाप धुकलून पाविल्ल्याचें म्हज्या ध्यानांत आयलें. गाडी चलूंक लागली.

अंधेरीक पावम्हणसर म्हाका हालूंक लेगीत मेळ्ळेंना. आंगाक आंगां दसैल्याबरी लोक उबे राविल्ले. मदीं दादराक आनी वांद्रयाक लोक चडले देंविल्ल्याचें लेगीत कांय एक कळळें नाशिल्लें. अंधेरीक बरेचशे लोक देंवले आनी म्हाका भितर सरून एका बांकार कूस तेंकौक मेळ्ळी. जिवाक सू जालें. लेंग्याच्या खिलपांचो पोवटांक काच लागून त्यो दुखूंक लागिल्ल्यो म्हणून ती काडून हावें पैरणीच्या बोल्सांत उडैलीं. हात बोल्साक तेंकील्लो मात, म्हाका कच्च जालें. बोल्स पोकें ! पेन जाग्यार आशिल्लें. पुण सिझन तिकेट, पैशे, टपालाच्यो तिकेटी बी आशिल्लीं तें पाकीट मात अदृश्य जाल्लें ! कोणेंय तरी म्हाका बरीच बद्द शिकैल्ली. गाडयेंत भितर सरतना लागिल्लो तो धोंगसो ह्या बोल्साचेर प्रयोग

करतल्याचोच न्हय मूं ? देवाक खबर. कोणेंय तरी संद सादली! आतां कितें करतलो ?

म्हजो जीव पिशार पडिल्ल्याबरी जालो. हानी जाल्ल्याचें एक दु:ख आनी शिंगां लायलीं म्हणपाचें दुसरें ! आतां कोणाकोणाचे कितें कितें आयकुंचें पडटलें म्हणपाचें येवजून मन मिडमिडलें. म्हगेलो घुस्पागोंधळ ध्यानांत येतकच म्हऱ्यांत बशिल्ल्या मनशान, 'कितें जालें गा?' म्हणून प्रस्न केलो. ताका जाप कितें दितलो ? घडल्या ती नकलामी सांगपाकय लज. 'कांय ना, कांय ना.' अशें हांवें म्हळें खरें. पुण हात बोल्सां पर्थून पर्थून सोदता सांसपिताले तें पळौन, कितें घडलां म्हणपाचो तर्क ताणें केलोच जातलो. पुण बाबडो बरो मनीस. तो हांसलो ना. 'पाकीट होगडायलें काय कितें गा!' अशें म्हणून चिमटोय काडलो ना.

खरेंच सांगतलो जाल्यार अशे भाशेन गाडयेंतल्या म्हज्या नित्याच्या प्रवासांत शिंगा लागपाचो हो म्हगेलो पैलोच प्रसंग न्हय आशिल्लो. हाच्या पैलींय दोन तीन फावट म्हाका बुद्द शिकौपी मेळिल्ले एक फावट म्हगेल्या बोल्सांतलो बऱ्या मोलाचो गॉगल कसो कोणें सुतलायलो म्हणपाचें म्हाका घरा पावसर कळूंक नाशिल्लें. आनीक एक फावट खुदर्यांन भरिल्लें म्हगेलें पाकीट एका शर्विलकान फारायलां आसूनय म्हाका ताची चत्राय जाली नाशिल्ली. पेनांक जाल्यार म्हज्या बोल्सांत रावप नाका जावन ताणी दुसरे यजमान सोदिल्ले! पुण इतल्या फावटीं म्हाका लज जाली आनी वायटय दिसलें जाल्यारय आयचे बरी दु:ख जालें नाशिल्लें. आज चोरान हातचलाखी करून म्हाकाच चोराबरी जावपाची वेळ हाडिल्ली !

इतले म्हणसर गाडी जोगेश्वरीक पावली. आतां फुडें कितें

करचें म्हणपाचें कांयच सुचना जालें. पैशे, तिकेटी, पासाचें डिपॉझीट बी मेळून पंधरा वीस रुपयांक चाट बशिल्ली. खेरीज पास आनीक पंधरा वीस धोळौपाचो आशिल्लो. म्हाका चड दुःख जालें तें बोल्सांत एक पांदुडूय उरलोना हाचें !

मनशाचेर खंय संकश्ट येवंचेलें आसतकच तें एकलें. एकसुरें येना. ताच्या सांगाताक दुसरींय येतात. म्हाका सट्ट जालें. आतां जर चेकर गाडयेंत भितर सरत जाल्यार दुर्दशेक शीममेर ना जावपाचो प्रसंग ! फटिंगपण आंगाक दसतलें तें जालेंच. पुण त्या भायर दंड भरचो पडटलो तो कसो भरूंक मेळटलो ? चेकर काय सोडचेलो ना. ताका घडली ती गजाल सांगली म्हणून खरी दिसचेली आसा ? चारचौगांत लज मात करून घेवंची पडटली. 'देवा सायबा, गाडी मुक्कामाक बरे भशेन व्हर आनी म्हाका अब्रून वरा पावपाची भीक घाल !' हावें मनांत नमस्कार करीत म्हळें.

पुण तुमी त्या भटाची गजाल जाणात मू ? तो खंय कल्प-रुखाच्या सावळेक बशिल्लो. ताका चुरचुरून भूक लागिल्ली. ताणें म्हळें, देवा येद्या वेळा जर दोन घांस जेवंक मेळिल्ले जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें ! त्याच खिणाक ताच्या म्हऱ्यांत जेवणाचें ताठ हाजीर ! तो बाबडो अजापलो. रोखडोच ताका भुताचो दुबाव आयलो. 'भुताची बी न्हय मू ही करामत !' मनांत येवपाचीच फुर्सद. भूत फुडयांत उबें ! मनशाचें मन म्हणटात तें कल्पवृक्ष आसत नाजाल्यार भूत आसत. इतलें खरें कीं मन येवजिता तें दुस्मानय येवजिना म्हणटात तें लटीक न्हय. चेकराचो उगडास मात जाल्लो, चेकर डब्यांत हाजीर ! गाडी सुटता सुट्टाच ताणें भितर उडी मारिल्ली.

ताका पळेनाफुडें म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो ! आतां गाडयें

तल्यान भायर उडी मारल्याबगर सुटकावाट नाशिल्ली. चेकराक भितर सरिल्लो पळौन गाडी सुट्टा सुट्टां प्लॅटफोर्मार उडी मारपी जायते खांपे फुकटे भोंवपी हावें लोकल गाडयेंतल्यान येरादारी करतना पळेल्यात. अशीच कोणेशी एकदा उडी मारली आनी तो चेंदड जावन मेलो म्हणपाचेंय हावें वाचिल्लें. अपेसापरस मरण बरें हें म्हणप खरें करतलो जाल्यार हांवें भायर उडीच मारूंक जाय आशिल्ली! पुण तितलो धीर म्हाका नाशिल्लो म्हणून जावं, नाजाल्यार भयांकृत फुडाराचो विचार मानेर सुवार जालो म्हणून जावं, जिवार उदार जावप म्हज्या हस्तुकी जालें ना. आनी वाघरें पडिल्लो बोकड जसो यो वाघा, खा म्हाका, म्हणून ताच्या येवकाराक सज्ज जाता, तसो हांव चेकराची ' तिकिटे, प्लीज ' हीं उतरां आतां म्हाका खावंक येतलीं म्हणून मान सकला घालून चोराबरी रावलों.

चेकरांच्यो कांय खुमो आसतात. भितर सरनाकुडें आदीं ते दाराच्या कुशीनी उबे राविल्ल्यांच्या समाचाराक वतात आनी तांका तपासून जाल्या उपरान्त, तांकां ओंखद विर्सद दिवन जातकच मागीर, बांकांचेर बशिल्ल्यांची नाड पळौंक येतात! पुण होचे कर, काळान धाडिल्ल्यासारको, हेवशेन तेवशेन खंयच पळेनासतना बाण कसोसो म्हज्या सामकारा येवन उबो रावलो! दुबाव ना! म्हज्या कुंडलीतल्या खंयच्याय तरी पापगिऱ्यान स वरांचेर म्हजेर जोखिल्ली नाळ तशीच उरिल्ली. एकाफाटल्यान एक गुळो तो म्हजेर सोडीत राविल्लो! तुमचो भावार्थ घडये गिऱ्या बिऱ्यांचेर नासल्यारन तुमकां म्हगेल्या ह्या पिशेपणाचो हांसो येतलो आनी मुमुर्खेच म्हजी मनांत अखटाय करतले म्हणपाचें हांव जाणा. पुण म्हाका दिसलें तें दाखयल्लिपय करीनासतना सांगून हांव मेकळो जातां.

'तिकेट, प्लीज' चेकरान खरेंच अशें म्हळें, काय ओगीच म्हाका भास जालो, कोण जाणा. म्हजें काळीज खपखपूंक लागलें. कानसुलां हून जालीं. हांव उठून उबो रावलों आनी ग्रांटरोडार गाडयेंत चडत पसून घडिल्ली गजाल ताका सांगपाक मुळावण घालें. तागेलें हासकुरें तोंड आनी आयकपांतली सवकसाय पळौन म्हाका खीणभर धीर आयलो. ताका म्हजी काकुयट येवन तो म्हाका सोडटलो अशें दिसून हांव भुल्लुसलोंयबी मात्सो. पुण तागेल्या उतरांनी हांव सपनांतल्यान जागो जालों. ताणें अशा एका नदरेन म्हजेकडेन पळेलें कीं, ताका हांवें सांगिल्ली गजाल म्हळ्यार एक चोविसां दरेची नवलकाणी म्हणपाचो आपणाक इल्लोय दुबाव उरूंक ना, अशेंच चिके ताणें नुलैत त्या नदरेन म्हाका सुचैलें आनी रोखडीच आपणाल्या बोल्सांतली पटी काडून ती उसैत म्हाका म्हळें,

'असल्यो ह्यो गजाली आमकां दिसपट्टयो इतल्यो आयकूंक मेळटात कीं तातूंतलें अजाप आतां पुराय सोंपलां! तुमी लोकांनी आतां नव्यो काणयो रचूंक आरंब करूंक जाय!'

तागेल्या त्या बकच्छायेन म्हगेली पायांची तिडक तकलेंत चडली. 'दिसपट्टी ज्या लोकांकडेन तुगेली गांठ पडटा त्या लोकां-तलोच हांवय एक म्हणून समजूं नाका तूं! काळान संद सादून आज म्हाका तुज्या तडाक्यांत दिला तेन्ना तूं उलैशी तें आयकुंचेलें म्हाका प्राप्त जालां! कितें करतलो! हीं उतरां सामकीं तोंडार आयिल्लीं. पुण तीं उलौन कितें उपेग जावपाचो आशिल्लो? परतो उज्यांत पेत्रोल ओतिल्ल्याबरी जावन तो आनीक राग ये सारकें, नाजाल्यार लज जायसारकें, कितेंय आडफाटें उलैतलो आशिल्लो. म्हणून हांव ओंठ चाबीत ओगी रावलों.

पेल्यान कोण बाबडो एक सज्जन मनीस बशिल्लो आशिल
ताणें म्हगेली गजाल कान दिवन आयकली दिसता. ता
म्हजेवेल्या प्रसंगाची कल्पना आयली. हावें सांगलें तें लाघव म्ह
खऱ्यानशींच म्हजेर हो प्रसंग आयला जावंक जाय, अशें ता
दिसलें आनी ताणें चेकराक म्हळें,

'तो सांगता तें खरें दिसता. फटींग आनी बगलांठी मनी
वेगळेच वळखूंक येतात. तसो काय हो मनीस दिसना. खा
वापरता ताचेवेल्यान तो दाठून असत्य उलौंक धजचो ना अ
मानूंक जाय. नाजाल्यार तो इतलो काकुळटेक कित्याक येत
आशिल्लो ?'

'आगा, चल ! मनशांक वळखूंक तूं म्हाका शिकैता ? म्हज
जल्म गेलो बगलाठयांक धरपांत !- आनी खादीचें कसलें म्हत
सांगता गा तूं ? तुका खबर ना, स्वराज्य आइल्ल्याक चो
बगलांठी, काळो बाजार करपी, लफंगे, गुंड आनी मवाली खादीच्य
गिवसणी घालून मिरयतात तें ?'

अशें म्हणून ताणें म्हाका गाडयेच्या दरवाजाकडेन धुकलल
आनी गोरेगाव थेसणार म्हज्यासैत देंवपाची तयारी केली.

म्हणसर थेसण अ यलें. आभी देंवले. म्हजो विस्वास दिसन
जावन, हांव पळून वतलों जाल्ल्याबरी, म्हज्या बोंचकुलाक धरिल्ल
आपणालो हात ताणें तसोच घट्ट केलो. लोकांच्या त्या चोंब्यां
अशें भाशेन, चोराक घेवन वचपी शिपायकाबरी, ताणें वाट केल
आनी म्हाका धरून तो थेसण मास्तराच्या कुडीकडेन चलूं
लागलो.

राग, लज, निर्शेणी आनी भय हाणीं म्हज्या मनाची अवस्त
कितें जाली म्हणपाचें म्हाका सांगूंक येना. आनां फुडें तो चेक

आनी थेंसण मास्तर म्हाका ख्यास्त भोगवपा खातीर कितें करतलो म्हणपाचें म्हाका सुचना जाले. हांव वेळार घरा पावलोंना म्हणटकच घरांत हुस्फ्यान आनी न्हय न्हय तसल्या येवजण्यांनी सगल्यांची कितें गन्त जातली म्हणपाचें येवजून म्हाका किवाटो आयलो. तूं म्हजोवांगडा म्हज्या घराकडेन यो. हांक दंड भरतां म्हणून हांवें सांगलें. पुण तें आयकूंक ते तयार नाशिल्ले.

ही गजाल सांगता आसतना हांवें कुंडलींतल्या पापगिऱ्यांची खबर उलैल्ली, तेंच खरें जावंक जाय. अनिष्ट योग सोंपिल्लो म्हणून जावं, नाजाल्यार म्हाका भोगैली ती वेथा पुरो अशें देवाक दिसलें म्हणून जावं, गोरेगावांत रावपी म्हगेलो एक इश्ट त्याच वेळार गाडयेंतल्यान देंविल्लो दिसलो. ताणें आमकां पळेले. हांव चेकराच्या कचाटचांत कसो सांपडलों म्हणपाचें अजाप जावन तो आमच्या सरीं आयलो आनी ताणें कितें घडलें तें विचारून घेतलें. हांव ताका सांगता आसतना चेकर मदीं मदीं म्हज्यो बकच्छायो करून म्हाका बगलांठी थरौपाचो उद्देग करोतच आशिल्लो. राग थातारना जावन, ताच्या मुस्कटांत एक फुलौंचें अशें म्हज्या मनांत येतालें, तें घडचें न्हय म्हणून म्हाका निग्रह करचो पट्टालो.

म्हगेल्या इश्टान इल्लोय वेळ लायनासतना बोल्सांतले पाकीट काडून दंड भरलो आनी तांच्या कचांटचांतल्यान म्हाका मेकळो केलो.

ग्रांटरोडाक लागिल्लें 'गिराण' गोरेगावांत सुटलें !

# जल्मप्रतिष्ठा !

मनशाच्यो व्हडपणाच्यो आनी प्रतिष्ठेच्यो कल्पना ह्यो वेगळ्या वेगळ्या काळार वेगळ्या वेगळ्या तरेच्यो आशिल्ल्यो म्हणपाचें इतिहासावेल्यान नदरेक पडटा. आज जें स्रमाच्या प्रतिष्ठेक मोल आयलां तें कांय काळाफाटीं नाशिल्लें, तेन्ना जल्माच्या प्रतिष्ठेक भौच मोल प्राप्त जाल्लें. कोण मनीस कितें करता आनी कसो जियेना हाच्यापरस तो खंय, म्हळ्चार कोणागेर, जल्माक आयला हाचेवेल्यान ताची व्हडवीक आनी नामना लेखपाची रीत पडिल्ली. मागीर ताणें कितेंय उणाकपणां करूं आनी तो कसोय जियेंव !

त्या काळांतली एक घडिल्ली खबर हावें तुमकां आज सांगचेलें येवजिलां.

गोयांत कांय व्हडल्या नामनेचीं घराणीं आसात म्हणपाचें तुमी जाणात. तांतल्याच एका घराण्यांतली ही गजाल. त्या घराण्याचें नांव घेनासतना त्या मनशांचींच नांवां घेवन तुमकां ती खबर सांगतां. ती आयकतकच एका मुस्तींत शिक्षणान, गिन्यानान आनी संस्कारांनी आमी कितले फाटीं आशिल्ले, पितुळ हाका भांगर, थिकाक माणीक मानपाइतली आमची कसाची नदर कितली मोटवी आनी अन्नाडी आशिल्ली, तें तुमच्या ध्यानांत येतलें. इतलेंच न्हय, तर आज आमची भौतीक म्हळ्चार संसारी आस्पत खंयय पावं, आमच्या आत्म्याची, मनाची, अंतस्करणाची आस्पत कितली त्राडली आनी खरेल्या अर्थान आमी कितले वेल्या पावंड्चार चडूंक पावले म्हणपाचें मनांत येवन तुमकां खोसय जातली.

साठ सत्तर वर्सांफाटली ही गजाल हालींच्या पिळगेंतल्या भुरग्यांचो तिचेर घडये विस्वासय बसचो ना. पुण ती खरेलीच

गजाल हांव सांगतां. असल्या तरेच्थो आनीकय कांय गजाली म्हज्या पिळगेंतल्या आथकुप्यांच्या कानार त्या मुस्तींत पडल्यातय आसतल्यो. तांचो उगडासय घडये तांकां जाल्याबगर रावंचो ना. हांव सांगतां त्या गजालीवेल्यान तुमकां आनीकय एक म्हत्वाची खबर कळून येतली. तेन्नाच्या त्या जल्मप्रतिष्ठीत मनशां मजगतीं काळानुरुप अन्नाडी आनी अणवेपण आशिल्लें खरें, पुण ताच्या बांगडाच एके तरेचो निर्धार, बागवन पुण मोडचों ना, अशा भशेचें कणखरपणय तांच्या आंगांत आसतालें. आज सगलीच बुळबुळसाण जाल्ल्या. आज ह्या गुणाचें म्हत्व कितलेंशेंच दिसूंक लागता, आनी तांगेल्या अन्नाडीपणाविशीं खंत जाली तरी तेन्नाच्या त्या मनशांच्या आंगांतल्या निर्धार, निश्चय, निग्रह बी गुणांबाजत तोखणायेन मान धोलल्यात्रगर रावना !

तुमकां त्या घराण्याचें नांव हांव सांगना, तशेंच त्या गावाचेंय नांव सांगप म्हाका बरें दिसना. तेन्नाचीं तीं जल्मप्रतिष्ठित मखताच घराणीं आचार विचारान आनी चाल चलणुकेन एकाच रविशेचीं आशिल्ल्यान, ही सांगतां ती गजाल एका थरावीक घराण्याची अशें मानपाचीय गरज ना. तांतल्या खंयच्याय घराण्यांत ती तशीच घडूंक येताली. म्हणून ती प्रातिनिधिक म्हळचार त्या सगल्यांक लागू जाता तसली मानूंक आडमेळें ना. जावं, आतां नाका जाल्ले तर्क वितर्क करपाचो तकालस घेनासतना, कान दिवन ती गजाल आयकात.

पुंडूबाब त्या घराण्यांत जल्माक आयलो ताच्या आदींच तें व्हडलें घराणें धोशी जावन मोडिल्लें आनी रासवळाचे वांटेविले जावन त्या व्हडल्या वास्तूंतच ल्हान ल्हान जायतीं बिराडां घडिल्लीं. तेन्ना फिरंगी बरप शिकपाक आरंब जावन चडशीं वर्सां

जावंक नाशिल्लीं. हिंदु भुरगे, आनी तेय गिरेस्तांचे, लिसेव शिकूंक लागले अशें एकय उदाहरण तेन्ना घडूंक नाशिल्लें. तेन्ना सेगुंद ग्राव शिकूनच व्हडले लेत्राद आनी कर्तुबी मनीस जावंक पावताले. फिरंगी भाशेक, म्हळचार फिरंगी भाशेंतल्यान उलौंक आनी बरोंक येवपाक, हिस्पाभायर म्हत्व प्राप्त जाल्लें.

पुंडूबाबाक विद्येची आवड आशिल्ली. तो गिरेस्त आसूनय ताणें सेंगुंद ग्राव केल्लो. ज्याका भरपूर भाटबेंस आसा ताणें शिकपाची गरज ना. ताणें खंय सिर्वीस करूंक वचचेलें आसा ! हो तेन्नाची येवजणी आनी बुदवंतकाय! तेन्ना आवय भाशेचें शिकपय घरांतल्या घरांत शणैमाम दवरून गरजे पुरतें करताले. मोडी अक्षर बरोंक वाचूंक आनी आंकडे, पाडे, पावकी अडीचकी, तोंडचे हिशेब पटापट करूंक येवप हें तेन्नाचें व्हडांतलें व्हड गिन्यान. तें न मेळवप म्हळचार बोंडेर जावप ! शिकचो ना जाल्यार कितें गोरवांराखणो जातलो, ही तेन्नाची हिणवणेची आनी खित्शणेची भास. म्हणून इतलें गिन्यान संपादलें म्हणटकच माथ्यावेल्यान उदक गेलें अशें तेन्ना समजताले. अशा त्या काळांत पुंडूबाबाक सरस्पतीचें म्हत्व भौच दिशिल्ल्यान गावांत नवेंच बांदिल्ल्या इस्कोलांत तो शिकिल्लो.

सेगुंद ग्राव करतकच ताका सबाविकच पणजे लिसेवांत शिकूंक वचचेली इत्सा जाली. पुण यागेल्या आवैन आकान्न करून ताका आडमेळें हाडलें. तेन्ना पणजे पालूदिज्म म्हळयार मलेरिया खूबच मातिल्लो खंय. जे थोडेच भुरगे थंय शिकूंक वताले ते पैन्याच्या जोरान भाजून घरा परते येताले. जोन्यान पर्थूपर्थून न्हिदताले. तें पळोंन पुंडुबाबाल्या आवयची भियौन गुळी जाली. 'शिकलो तितलें बरें पुरो. आनीक लिशेवबी कांयच नाका पुता. आइल्ल्या दिसा

हुस्को करीत कोणाच्यान रावंक येता ! तुका लिशेव शिकून येंप्रेगाद जावपाची देवादयेन इल्लीय गरज ना. ओगीच जीव संकश्टांत कित्याक बाबा घालप ?' अशें तिणें म्हळें आनी ती तितल्यारच रावली ना. रोखडेंच ताचें लग्न करून तिणें ताका संसारांत घुसपावन उडयलो.

वर्सांफाटल्यान वर्सां वचत आशिल्लीं. पुंडुबाबागेर एका फाटल्यान एक चार चलयो जाल्यो. चलो जायना म्हणून सगलीं कितलींशीच कश्टी जातालीं. पुंडूबाबाचो बापुय राणूबाब आनी आवय शेंवतेंबाय नातवाचें तोंड पळेल्याबगर दोळे धांपचींनात म्हणून नवससायास करून कितलींशींच वरसां खडपसुख जावन रावलीं. पुण इत्सा तृप्त जादंचे आदींच तांकां देवाघरा वचचें पडलें! पुंडूबाबाक भौच खेद जालो!

आनी योगायोग कितें आसता कोण जाणा ! आजो भायर पडटकच पुंडूबाबाची बायल रुखमीणबाय गुरवार जाली. नातू जल्माक आयलो. सगल्यानी म्हळें, 'निर्शेल्लो राणूबाब अखेर मरून स्वताच सुनेच्या पोटांत नातवाच्या रूपान आयलो !' चार चलयांवेलो चलो म्हणून व्हडल्या दबाज्यान राणूची सटी जाली. निखटी सुवारीच न्हय, फोग आनी कलवंतांबी हाडून तडकडाट केलो. सटये फाटल्यान बारसो जालो. त्या मठयेंतल्या सगल्या बिराडांतल्या ल्हाना व्हडांनी त्या दिसा आटवलाचेर असुदाय ताव मारलो. फुडें दांतोळचो म्हणू नाका, जायवळ म्हणूं नाका, निमता-निमतान राणूच्यो पळे तोखणायो आनी अपुरबायो चलिल्ल्यो ताका सुमार नाशिल्लो. आठ वरसांचो जाता म्हणसर एकल्या राणूखातीर उदकासारको कितलो दुडू खर्चिलो तें पुंडूबाबाल्या किर्दीवेल्यान पळेसारकें आशिल्लें.

पुंडूबाब विद्येचो भगत आशिल्लो खरी. पुण पिळग्यापिळग्यांचे जाल्ले व्हडपणाच्या लटक्या प्रतिष्ठेविशींचे संस्कार सामके खरीक तेंकिल्ले. त्या संस्कारांच्या चेपणाखाल त्या घराण्यांतल्या हेर बिन्हाड कारांभशेनच पुंडूबाबालो पींड पोसलेलो, वाडलेलो. त्या हेरांच्या सारकीं वेसनां ताका लागूंक नाशिल्लीं जाल्यारय घराण्याचो पोको अभिमान, लोकांभितर आपुण वेगळोच म्हणपाचो अहंकार, धंदोवाव्र करप हें उणाकपण म्हणपाचो समज, व्हडपणाखातीर अस्तावेस्त खर्च करपाची सवंय, हातांत पैशे नासतात तेन्ना लेत्रान वा इपोतेकान रीण काडून गरज भागौपाची खोड, असल्यो कितल्योशोच बडीलांच्या रगतांत मुरिल्ल्यो संवयो, तातूंत अणवेपण आसा, हीणपण आसा, अशें ताका चुकूनय दिसनाशिल्लें. मनशाचेर संस्कारांचो प्रभाव आसता तसोच आसमंताचोय बी पडल्याबगर रावना. लिसेव शिकपाच्या निमतान पुंडूबाब त्या मठयेंतल्यान भायर सरूंक पाविल्लो, पणजे ताचो राबितो जाल्लो, जाल्यार घडये ताचे संस्कार बदलतय आशिल्ले. दुसऱ्या गरीबधाकटचा बामणावाणी भुरग्यांच्या संगतींत ताका वेगळी देख मेळत आशिल्ली. पुण तो घरकोंबो जावन उरिल्ल्यान त्या वास्तूभायर संसारांत ज विचारांचे, आचारांचे उत्पात चलिल्ले ताच्या वादळाची ताच्या तकलेक केन्नाच बादा जाली ना!

पुंडूबाबालें हें इतलेंय पुराण हांवें तुमकां सांगलें तें तागेलें चरित्र सांगपाखातीर न्हय; तागेलो सबाव कसो कितें आशिल्लो ताची चत्राय तुमकां जावंची म्हणून. जी मुखेल राणूची गजाल हांव तुमकां सांगूंक सोदतां ती हेरशीं तुमच्या ध्यानांत पडची ना म्हणून.

राणू जाणटो जावंक लागलो तशी पुंडूबाबाक आपणाल्या

भुरगेपणाची याद जावंक लागली. आवैच्या फुकफुकेपणाक लागून आपणाक पुराय शिकूंक मेळ्ळें ना; तें आतां राणूक पणजेच न्हय्र तर पोर्तुगाला धाडून बाशारेल करून हाडून दुपटी तिपटीन तीं उणाय भरून काडटलों असो तो बेत करूंक लागलो. ह्या प्रकणींत कोणाचें कांयच आयकप ना. जाता ती हद्द वेंचून हो संकल्प शेवटाक व्हरपच, अशें पुंडूबाबान थारायलें.

पुण ' मनसा चिंतितं एकं, दैवमन्यत्र चिंतयेत !' म्हणटात ते तुमी आयकलांच आसतलें. देव सगल्यांकच सारखी तकली दिना म्हणून जावं, किंवा शिकपाक लागता ती तकली आणी वेवारधंद्याक जाय आसता ती तकली हीं वेगवेगळीं आसतात म्हणून जावे, पुंडूबाबाल्या संकल्पाच्या रोंप्याक कीड लागपाचीं चिन्हां दिसूंक लागलीं. राणू शिटूक, हुशार आनी हातकुशळ आसूनय बरपाक्षरांत मात ताची इल्लीय प्रगती जायना म्हणपाचें उक्तें जालें. पुंडुबाबाक लजेन आनी निर्शेणेन सामकें मरूंक पुरो जालें !

पैलीं पैलीं ताचो समज जालो कीं आडांगीपणान आनीं आळसायेन राणू बरपांत तकली घालीना. म्हणून तो ताका खासा आपुणच रातदीस म्हऱ्यांत घेवन बसूंक लागलो. धाडाधाडावन आनी खुंटियो मारून राणूच्या मेंदवाचो पणस पिकवपाचो उद्द्वेग ताणें आरंबलो. पुण आयलो तो अणभव उफाट्टोच ! बरपाविशीं मोग वाडच्या बदला बापायविशींचो राणूचो द्वेष आनी तिरस्कार मात वाडूंक लागलो! पुंडूबाबान ज्या राणूची हिस्पाभायर अर्थ अपुर्बाय केल्ली तोच पुंडूबाब आतां संतापून ताका मार मार मारूंक लागलो ! राणूआवैंक ताका वाटायतां वाटायतां नाका, पुरो, जावंक लागलें. अखेरेक कितेंच उपाय ना म्हणपाची खात्री जातकच पुंडूबाबान राणूचें नांवच घेवचेलें सोडून दिलें !

अशे भशेन पुंडूबाब आपल्याक एक चलो आसा म्हणपाचीच गजाल विसरून वचपाचो यत्न करूंक लागलो. ताच्यो चारय चलयो बऱ्या तकलेच्यो आनी हुशार आशिल्ल्यो. त्यो मुळावें शिकल्यो. आनीकय फुडें शिकेल्यार शिकसारखी तांकां बुद्द आशिल्ली. पुण चलयांक शिकूंक घराभायर धाडपाची चाल अजून येवपाची आशिल्ली. तेन्नाच्या चालीप्रमाण त्या चारय चलयांचीं लग्नां भुरगेपणांतच जालीं. तांकां बरे फावसारके घोव मेळिल्ले. राणूक लागून पुंडूबाबाचें चित्त मात संसाराचेर विटिल्ल्याबरी जालें.

पुण पुंडूबाबाच्या जलमप्रतिष्ठेच्या भावनेक खरेलो धपको बसचेलो आशिल्लो. तो एक दीस बसलो आनी पुंडूबाब सामको मनशांतलो गेल्ल्याबरी जालो.

ह्या काणयेच्या समर प्रसंगाचेर आमी आतां पावल्यात. राणू शिकूंक येंडो आशिल्लो जाल्यारय त्या घराण्यांतल्या हेरांबरी तो निरुपयोगी, आळशी आनी आयतेखाव नाशिल्लो. ताच्या आंगांत परंपरेन आयिल्लें पिशेपणाचें व्हडपण नाशिल्लें. वाव्रधंदो करप हें उणाकपण अशें तो समजनाशिल्लो. रिणाभरवण जाल्ल्या आपणाल्या घरादाराचो आनी भाटबेंसाचो फुडार कितें म्हणपाचें शिकिल्ल्या पुंडूबाबाल्या तकलेंत केन्नाच आयलें नाशिल्लें, तें राणूच्या आयिल्लें. बापाय फाटल्यान त्या वास्तूची सांवळी, भाताचो एक गोटो वा नाल्लाचो एक बोंडोय आपणाक मेळपाचो ना, हें ताणें ओंठार मिशो येवंचे आदींच पारखिल्लें. अमृतपडीची आपणें कितेंय तरी उक्तो तजवीज करून दवरूंक जाय म्हणपाचें ताच्या तकलेंत सदाच घोळटालें.

एक दीस अकस्मात जोगलावल्लेबरी ताच्या तकलेंत लक्क जालें!

अशें केल्यार कशें जायत, ताणें मनात म्हळें. त्या दिसा पसून तो शेजरा रावतल्या, आनी एका काळार ताच्याच घरांत चेडेपण करून आयिल्ल्या, एका दर्ज्यासरीं वचून बसूंक लागलो. ताणें दर्जीपण शिकपाचें भारायलें. आनी हें पळौनच पुंडूबाब चाळवलेलो!

पुंडूबाबान रुणूकडेन उलौपाचें सोडून दिल्लेंच. एकठाय रावतात आसूनय ते एकमेकांक चुकैताले. वांगडा जेविनाशिल्ले. वांगडा खायनाशिल्ले. राणूच्या आवैक बाबडेक खूब वेथा भोगताली. पुण कितें करतली ? घोवाच्या तकलेफिरेपणाफुडें तिचो कांयच उपाय चलनाशिल्लो.

ज्या दिसा राणूक पुंडूबाबान जयरामाच्या माकनार बशिल्लो पळेलो त्या दिसा तो घरांत येनाफुडें ताणें फोग घालो ! राणूची ताणें त्या दिसा जी निर्भत्सना केली ती सांगणे म्हणणेची न्हय. उलैता त्या उतरांचो अर्थ कितें जावं येता म्हणपाची लेगीत ताणें चत्राय दवरली ना. ‘ असलीं उणाकपणाचीं कामां करचेलीं आसल्यार तोंड घेवन वच खंयय, पर्थून घरांत केन्नाच पाय घालू नाका! ’ ताणें म्हळें.

इतलें जातकच राणूक घर सोडून वचपाबगर आनीक मार्गच उरलो नाशिल्लो. ताणें येवजिलें. घरांत रावन आयिल्ल्या दिसा बापायकडल्यान खित्सून घेवपायरस मुंबै गेल्लो बरो. थंय आज ना फाल्यां ह्याच दर्जीपणान फिशालकाय मेळौन नशीब काडपाक जी संद आनी सादन मेळूं येतात तीं गोयांत असोच कुसत रावन केन्ना मेळपाचीं न'त

ताणें वेळ लायलोना. तिसऱ्याच दिसा घरपुरसाक पायां पडून तडक मुंबैची वाट ताणें धरली. बावडी आवय रड रड रडली. पुण मागीर तिणेंय येवजिलें. जालें तें एका परीन बरेंच जालें

म्हणचेलें. घरा चोराबरी रावन खितशिण्यो सोसपापरस
मेकळेपणान हातपाय हालौंक तरी मेळटले. नशिबांत आसल्य
खंय आसा थंय बरें भलें जाल्याबगर केन्नाच रावचें ना.

आवैचो हो विस्वास लटिक जालो ना. राणून मुंबै रा
फर्स्ट क्लास टेलर म्हणून नामना मेळ्ळी. फुडे चार पयशे गांठ
जातकच ताणें टेलरिंग फर्म काडलें आनी धंदो खूपच वाडै
कांय कालान त्याच फर्मींत एक क्लॉथ स्टोअर्सय ताणें उक्तें
आनी दिसानदीस ताची जोड आनी कीर्त सारकी वाडतच राव

पुंडूबाबान ताचें नांव घेवपाचें सोडलें तें मात सासणाचेंच
पुताच्या एका पांदुडवाकय ना आफुडपाची प्रतिज्ञा केल्याब
तो खटासून रावलो. राणून जें पयलेंच शंभर रुपयांचें रेजिस्त
घरा धाडिल्लें तें बापायन परतें धाडलें! राणूक खूब वायट दिस
पुण ताणे जाणलें. सुंबाचो वळ हो असोच आसता. तें जळ
जाल्यारय तो वळ सुटना !

---

## वळेरी